# जाग

वर्स २७ : आंक ११ : जून २००१

सांदपी : रवीन्द्र केळेकार
वुरपी संपादपी : माधवी सरदेसाय
जवाडावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय
अर जुळणी : तन्वी ग्राफिक्स, मडगांव
रपपी : प्रिन्टआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय
यलें चित्र : एक शिल्प: डॉ. सुबोध केरकार


## ह्या आंकांत




वर्सुकी पटी : रु. १००/-
विद्यार्थ्यां खातीर : रु. ७५/-
तीन वर्सांची पटी : रु. २५०/-
चेक वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
चेक्र मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत धा रुपया अदीक जोडचे.

वेव्हाराचो नामो :
**जाग म्हयनाळें :**
२०१-बी, सालदेल अपार्टमेन्टस्
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल : रू. ९/-


## हुदर संपादप्याची

### एक कोंकणी समाज निर्माण करुंया

पोरूं वर्सा ह्याच दिसांनी अमेरिकेक पाविल्लों. अमेरिकेंत सुमार दोन अडेज हजार गोंयकार वचून रावल्यात. 'गोअन ऑर्गनायझेशन इन अमेरिका' (GOA) नांवाची तांगेली एक संस्था थंय आसा. दर दोन वर्सांनी ती गोंयकारांचें एक स्नेहसंमेलन घडोवन हाडटा. पोरुंचें तिगेलें पांचवें संमेलन आशिल्लें आनी तें कॅलिफोर्नियांतल्या इरवीन वाटारांत भरिल्लें. सुमार तीनशें गोंयकार संमेलनाक आयिल्ले आनी तीस दीस 'सुशेगाद' मुडांत राविल्ले. सगळे होमसीक, गोंयची याद काडून तळमळपी. गोंयचें जेवण अमृताचें जाल्ले वरी जेवपी. आयज सोदल्यारूय गोंयांत मेळना असल्या सुटके-आदल्या गोंयांत पाविल्ले वरी म्हाका दिसलें.

अजाप म्हळ्यार ह्या संमेलनाक आल्फ्रेदबाब ब्रागांजा - आकाशवाणी वयले आदले एक अधिकारी - आनी तांगेली घरकान्न सोडून दुसरो एकूय किरिस्तांव घराबो थंय दिश्टी पडलो ना. हांवें आयोजकांक विचारलें, 'अशें कशें जावचें? अमेरिकेंत आमचे किरिस्तांव भाव नात?'

'आसात तर... गोंयकार हिन्दूं परस देडयेन तरी आसतले. पुणून ते आमचे वांगडा भरसनात. तांगेलीय 'अमेरिकन गोअन्स' नांवाची एक संस्था आसा. तिवूय तांचीं संमेलनां घडोवन हाडटा. ह्याय संमेलनांनी तीनशें चारशें गोंयकार जमतात. मांडे, दुल्पदां, देखण्यो म्हणटात... 'हांव सायबा पलतडीं वयतां', 'हुंदरा म्हज्या मामा' असलीं गितां सगळ्यांचे जिबेर घोळटात... शीत कडीच मोटे रुचीन जेवतात... 'केहो आहाय रे' म्हूण एकामेकां लागीं कोंकणींत उलयतात. पुणून हेरां कोंकणी लोकां पसून वेगळेच रावतात...

'मंगळूरी किरिस्तांव?' 'आसात. गोंयकार किरिस्तांवां इतले नासूं, पुणून तांगेलीं हजार दोन हजार तरी बिराडां अमेरिकेंत आसात. तांचींय संमेलनां भरतात... दक्षिण कर्णाटकांतले हिन्दूय हांगा आसात. तांगेली एक 'कोंकणी समाज' नांवाची संस्था आसा. तिवूय तांगेलीं संमेलनां घडोवन हाडटा. पुणून तेवूय वेगळ्याच एका संवसारांत जियेतात...'

अमेरिकेंत महाराष्ट्रीय आसात, गुजराती आसात, बंगाली आसात. महाराष्ट्रीयांची भास एक म्हूण अस्मिताय एक, संस्था एक, संमेलन एक. गुजराती लोकांची भास एक, म्हूण अस्मिताय एक, संस्था एक, संमेलन एक... फकत कोंकणी लोकांची भास एक आसुनूय अस्मितायो वेगळ्यो वेगळ्यो. संस्थाय वेगळ्यो वेगळ्यो म्हूण संमेलनांय वेगळीं वेगळीं. कुडके कुडके जावन शिंपडिल्लो आनी मनान पसून आपल्याच लोकां पसून पयस गेल्लो, साप्प विसकळीत - disintegrated - समाज संवसाराचे फाटीर आमचो सोडून दुसरो खंयचोच पळोवंक मेळचो ना.

कोंकणी समाजाच्यो तिसत्यो वाद्र्यो जाल्यात म्हणपाचें म्हाका खबर नाशिल्लें अशें न्हय. पुणून खबर आसप वेगळें आनी काळजाक घाय जातकूच 'कळटा' तें वेगळें.

आमचे धुळदशेची 'जाणवीक' म्हाका अमेरिकेंतूच चड जाली.

आनी हांवें म्हाकाच प्रस्न केलो -

ह्या तिसत्या वाद्र्यांचेर लाखेची म्होर मारून आमी ओगी बसतले?

इतिहासीक 'अपघात' हे, अशें म्हणून हात पांय पांगरून रावतले? हे सगळे कुडके परते सांदोवपाचो यत्न आमी करपाचे नात?

इतिहासाची फकत फोडणिशी वा अर्थावणी करून भागपाचें ना. **इतिहास आतां बदलूंक जाय**. कोंकणी लोकांक 'एक भास, एक लिपी, एक साहित्य' ह्या सुतान गुथून ताचो एक **कोंकणी समाज** घडोवन हाडुंकूच जाय. ना जाल्यार, कोंकणी समाज आपुणूच आपणालो धनी केन्नाच जावंक पावपाचो ना. कोण-न्हय-कोण ताच्या माथ्यार सदां येवन बसतलो आनी कोंकणी मनीस संवसारांत शेणटलो.

चलत आयल्यात त्यो परंपरा कितल्योय उजळ आसूं, तांचे परस हजार वांट्यांनी उजळ अशी एक नवी परंपरा आमी आतां सुरू करुंकूच जाय.

इतिहासान आमचे मुखार दवरिल्लें आहवान हें एक. तशी संदूय बी एक.

येदो व्हड वावर आमचे हस्तुकीं जावंक पावतलो व्हय? हय पावतलो. करूंक भायर सरल्यार सगळें जाता. करपाक मुखारूच सरूंक जाय. शणै गोंयबाबांनी जेन्ना आमची **मराठी परंपरा सोडून** एक **नवी कोंकणी परंपरा** सुरू करपाचो वावर हातांत घेतलो तेन्ना कोंकणी भास एक दीस स्वतंत्र भारताचे घटनेचे आठवे वळेरेंत हिन्दी, बंगाली, मराठी, गुजराती सारकेल्या गिरेस्त भासांचे पंगतीक वचून बसतली म्हणपाची तांकां खबर आशिल्ली व्हय? आशिल्ली जावंक जाय. कित्याक, ते 'दमणगंगे पसून मलबारा मेरेन शेकानशेक पातळ्ळेलें कोंकण कोंकणी लोक धनीपणान चलयतले' असली भास उलयताले बरयताले. 'कोंकण आमचो देस, आवय कोंकणी भास' हें गीत तांच्या कानार पडटालें तेन्ना तांच्या दोळ्यांतल्यान खंय दुकां व्हांवपाक लागतालीं (अशें कवी बयाभाव सांगताले). तांगेलें हें त्या काळांतलें दिसासपन आशिल्लें. तांच्या काळांतले लोक मात तांकां 'पिसो' धरताले. तांणी हांची पर्वा करिनासतना वावर सुरू केल्लो. आनी तांचे उपरांतच्या पांच पिळग्यांनी एका फुडले एक संघर्श चलोवन कोंकणीक आठवे वळेरेंत व्हरून बसयलीच काय ना? 'एक भास, एक लिपी, एक साहित्य' ह्या सुतान कोंकणी लोकांक गुथून तांचो एक 'कोंकणी समाज' उबो करपाचो हावेस आयज दिसा सपन कसो दिसूं, तो शार्ती पावतलो म्हळ्यार प्रावतलोच पावतलो. शणै गोंयबाबा सारकेल्या द्रष्ट्या मनशाचीं दिसासपनां केन्ना फुकट वचनात. एक न्हय एक दीस तीं खरीं जातलीं. गोंयकार, कारवारकार, वाडकार, मंगळूरकार, हिन्दू किरिस्तांव मोयर सगळे एकठांय येवन एक नवो कोंकणी संवसार उबो करतले म्हळ्यार करतलेच करतले.

हो 'कठीण' वावर खरो. पुणून करूंक मुखार सरल्यार जातलोच जातलो.

□□□

'बापुजी, खूब कठीण वावर हो, म्हजे कडल्यान जावपाचो ना' अशें कोणेंय म्हळें म्हणटकूच 'करून पळे, हांव सांगतां तुका तुज्यान जातलो म्हूण' अशें गांधीजी ताका सांगताले आनी 'वावर कठीण म्हुण्णूच तर तुजे कडेन तो दिवंक सोदतां... सोंपो आशिल्लो जाल्यार तो कर म्हूण हांव तुका सांगचोंच नाशिल्लों' अशेंय म्हणटाले.

गांधीजींनी हे भाशेन आपणाल्या सांगात्यां कडल्यान कितलेशे कठीण वावर करून घेतल्यात. 'सपनांत लेगीत आमी चिंतूंक नाशिल्लें असलीं कामां आमचे कडल्यान जातलीं म्हूण' अशें तांगेल्या ह्या सांगात्यांनी मागीर म्हळां.

देश बेश्टो तीस वर्सां भितर स्वतंत्र जावंक पावूंक ना!

कठीण वावर करुनूच मनीस 'मनीस' जावंक पावला. दोन पांयांचेर उबे रावन चलप कितें, सोंपें आशिल्लें? उमथे पडपाकूच पयलीं आमकां कितलेशे म्हयने लागल्यात. उपरांत आनीक कांय दीस लावन आमी दिमखुऱ्यांनी चलपाक लागल्यात. करतां करतां एक दीस आमी उबे रावपाचो यत्न सुरू केला. हजार खेपे उबे रावल्यात, तितलेय खेपे धर्तरिचे जडसाणीन - गुरुत्वाकर्षणान - आमकां सकल ओडून घेतल्यात आनी आमी पडल्यात. पुणून निर्शेल्यात व्हय तर? आमच्यांनी जावचें ना, अशें म्हणून आमी यत्न सोडून दिला व्हय तर? पडून पडून अखेरेक उबे रावंक पावल्यातूच काय ना? गुरुत्वाकर्षणाक आमच्या यत्नां मुखार हार खावची पडल्या. जिविताचो आरंभूच आमकां हे तरेचे 'साधने'न करचो पडला. उबे रावन मागीर आमी चलपाकूय लागल्यात, धांवपाकूय लागल्यात. मोनजातिच्या पिलांक असले यत्न करचे पडनात. ते फकत आमकांच करचे पडल्यात. तेन्नाच आमी 'मनीस' जावपाचे दिकेन मुखार चलपाक लागल्यात. दोन पांयांर उबे रावन आमी चलपाक लागल्यात तेन्ना आमचे दोनूय हात मेकळे जाल्यात आनी एका फुडलीं एक 'कर्तुत्वां' आमी करपाक पावल्यांत (कर = हात). इतल्यार थांबूंक नात. हात मेकळे करूंक पाविल्ल्यान मान वयर करून मळबूय पळोवंक पावल्यात. विश्वब्रह्मांडाचो थाव घेवपाक लागल्यात. धर्तरि वयल्या हेर जिवांक असलें कितेंच करूंक येवंक ना - खंयच्याच जिवाक आपणाल्या हातांनी कामां करूंक येवंक नात (कित्याक, तांकां हातूच नात) तशी, खंयच्याच जिवाची नदर मळबाचेर केन्ना पडूंक पावूंक ना. सगळ्यांचे हात जमनीर तशी सगळ्यांची नदरूय जमनीर. शेवणीं अंतराळांत कितलींय उडूं, घोण तर खूब वयर वचून उडटा, पुणून तिचीय नदर हेरां शेवण्यां भाशेन जमनीरूच आसता.

धर्तरेर आयिल्ल्या जिवांत मनीस सगळ्यांत निमाणो. तरी आसतना मनीस सोडल्यार खंयचोच जीव धर्तरेर शेक चलोवंक पावूंक ना. फकत निमाणो आयिल्लो हो मनिसूच धर्तरेक आपणाक जाय तसलें रूप दिवंक पावला. कठीण कामां सोंपीं करुनूच तो ही सिद्धी जोडूंक पावला.

सोंपीं कामां करप हीच मनशाची वज आशिल्ली जाल्यार तो उत्तर ध्रुवा वयल्या बर्फा सड्यार आपल्या जैताची घुडी रोमपाक केन्ना आंवडेवचो नाशिल्लो. थंय वचपाचो ताणें हजार खेपे यत्न केला, हजार खेपे तो अपेशी जाला, ते उपरांतूच एक दीस तो थंय जैताची घुडी रोमूंक पावला. एवरेस्टाचेर चडपाचेय ताणें हजार खेपे यत्न केल्यात, हजार खेपे तो पडला, तरी आसतना निर्शेनासतना चडत रावला आनी एक दीस - कितल्याश्या पिळग्यां उपरांत - एवरेस्टाचेरूय आपणाल्या जैताची घुडी रोमून आयला. उत्तर ध्रुवार वचून वा एवरेस्टार चडून ताका 'फायदो' कसलोच जावंक ना, ताचें तपस्वी मनीसपण फुलून येवपा पेल्यान ताका कितेंच 'मेळूंक' ना. कठीण काम केल्ल्याची फकत खोसूच तो अणभवूंक पावला.

कठीण कामां करून जी मेळटा तीच खरी खोस, तीच खरी जोड अशें जाणें मानलां तोच 'मनीस' जावंक पावला. मनीसपणाक तोच वयल्या पांवड्यार चडोवंक पावला. 'म्हज्यान हें काम जावचें ना' अशें म्हणून जाणें कठीण कामाक फांट केल्या तो पडला. गडगडून तळाक वचून बसला. आनी आपणा वांगडा ताणें आपल्या समाजाकूय सकल ओडून व्हेला.

□□□

अंदू वर्सा शणै गोंयबाबाल्या जल्म दिसा (२३ जूनाक) एक भास, एक लिपी, एक साहित्य ह्या सुतान कोंकणी मनशांक गुथून तांचो एक समाज निर्माण करपाचो तांगेलो उरिल्लो वावर मुखार व्हरपाचो सोपूत घेवया.

## वडा पुनवेचें मनन

हालिंसाराक वाडिल्ल्या चलयांच्यो सोयरिको खंय सोंपेपणान जुळून नात. कित्याक लागून? चली सुंदर नासता वा चालीन बरी नासता, चल्यांचें क्ष ओढूंक पावना वा लक्ष ओडपा खातीर चडूच 'फॉरवर्ड' जाल्ली आसता कितलींशीं कारणां आसूं येतात. आवय-बापूय हुंडो दिवपाक पावनात वूय एक कारण आसूं येता. सगळ्यांत व्हडलें कारण म्हळ्यार, समाजांत लयो चल्यां परस चड जाल्यात हेंच म्हणूंक जाय.

मुसलमानांनी चल्यांक एका परस अदीक (पुणून चारां परस चड न्हय) ग्नां करपाची मेकळीक दिवन हो प्रस्न एके तरेन सोडयला. जाल्यार, रची एक तरी चली माद्री जावची असो एक नेम करून किरिस्तांवांनी तो सरे तरेन सोडयला.

हिन्दू मजगतचे सुधारक म्हणटात, घरांतल्या घरांत लग्नां जायनात, ोत्रांतल्यां गोत्रांत जायनात तर्शीं जातींतले जातींत जावंक जायनात असो क नेम करचो. म्हणटकूच, हो प्रस्न सोंपेपणान सुट्टलो. हाचेर कांय समाजशास्त्री म्हणटात, जाती सगळ्योच संस्कारान एका पांवड्या वयल्यो आशिल्ल्यो जाल्यार हे तरेचो नेम सोंपेपणान करूं येतालो. पुणून जाती एका ांवड्या वयल्यो जावपाक दोन तीन पिळग्यो तरी वतल्यो. ते मेरेन जाती भायलीं लग्नां जावंक दिलीं जाल्यार घोवा-बायलेक सुरवातेच्या काळांत हडलिशी अडचण येवची ना, पुणून पोरणे संस्कार केन्ना तकली वयर काडून मुखार सरतीत, सांगूं येता? ते वयर सरले जाल्यार तांचे मजगतीं किजिल सुरू जाले बगर रावपाचीं नात आनी तीं (उबगून) एकामेकां पसून पयस सरले बगर रावपाचीं नात. कितलींशीं आंतर-जातीय लग्नां हाकाच लागून अपेशी जाल्यांत.

हाचेर सुधारक म्हणटात, एक दोन पिळग्यांचोच प्रस्न हो. एक दोन पिळग्यांक तो 'सोंसून घेवचो' पडटलो. मागीर सगळें निटायेन चलपाक लागतलें.

ध्याना मनांत नाशिल्लो एक प्रस्न हालींच कांय विचारवंत मांडपाक लागल्यात. ते म्हणटात, जाती भायल्या लग्नांक फाटबळ मेळपाक लागलें जाल्यार वयल्या जातींतल्यो चलयो सकयल्या जातींतल्या शिकिल्ल्या जोडकार चल्यांक उबारपाक लागतल्यो आनी सकयल्या जातींतल्यो बऱ्योचश्यो चलयो आंकवार उरतल्यो. परिणाम - सकयल्यो जातीच एक दीस आंतर-जातीय लग्नां आड वतल्यो. आनी जाती ना करपाचो सुधारकांचो यत्न ओम्-फस् जातलो. म्हळ्यार, एक प्रस्न सुट्टासर दुसरो जीवघेणो प्रस्न उपरासून येतलो आनी वखदा परस पिडा बरी आशिल्ली अशें म्हणपाचो प्रसंग सुधारकांचेर येतलो.

पुणून घुसपल्ले प्रस्न सोडोवपाचो दुसरो उपाय ना. एक उपाय चलोवन पळोवप, तातुंतल्यान नवे प्रस्न उपरासून आयले जाल्यार तांचेर नवे उपाय सोदून ते चलोवन पळोवप, हे भाशेन, 'ट्रायल एण्ड ऍरर'चे वाटेनूच समाज आतां मेरेन मुखार सरत रावला.

खरेपणानशीं ह्या प्रस्नाचें आनीक एक म्हत्वाचें आंग आसा. ताचे कडेन अजून सुधारकांचें आनी विचारवंतांचें लक्ष वचूंक ना. बायल-मनीस कितलीय शिकिल्ली आसूं, केदीय व्हडली जोडकान्न जाल्ली आसूं, केद्याय व्हडल्या हुद्द्यार पाविल्ली आसूं, जे मेरेन ती कोणा एकादल्याची घरकान्न जायना, ते मेरेन लोकूय तिका 'सौभाग्यवती' लेखिनात, तिवूय आपणाक सौभाग्यवती मानिना. आपणांत कितेंय तरी वैगुण्य उरलां अशें खासा तीच खोलायेन मानपाक लागता. आनी ती कशेय भाशेन कोणाचीय घरकान्न जावंक आंवडेता. हजारांनी वर्सांचो खोल असो एक संस्कार हो. ह्या संस्काराच्या मुळांत भुरगीं जल्माक घालपाचो आनी तांकां ल्हानाचीं व्हड करपाचो तिचे कुडिचो 'धर्म' आसा. ह्या धर्मानूच तिका दादल्यांची गुलाम केल्या. तिका जातात तीं भुरगीं आपलींच आसूंक जाय, ते खातीर तिणें आपणाक एकनिष्ठ रावंक जाय, इतलेंच न्हय, तर यम आपणाक घेवन गेलो जाल्यार तिणें सावित्रे भाशेन यमागेर लेगीत वचून आपणाल्या पातिव्रत्याच्या नेटार आपणाक परतो हाडूंक जाय ह्या 'धर्मा'न तिचो घोव चलत आयला. आनी बायलांनी भुरग्यांच्या बऱ्या भल्याचें येवजून घोवाचो हो धर्म मोन्यांनी मानून घेतला.

बायल मनीस जे मेरेन सौभाग्याच्या हावेसाक घट दसून रावतली ते मेरेन तिचो 'प्रस्न' कसोच सुटपाचो ना. सौभाग्याचो हावेस सोडून दिवपाचें काळीज केन्नाय जायत व्हय तिका?

## नवी मॅडिकल ऍथिक्स

बाथरुमांतल्यान भायर सरनापुडें हुंबऱ्यारूच बिसेनजी कोंसळून पडले. ताळ्यांतलो गुर्रर गुर्रर हो एक आवाज सोडीत जाल्यार ते आसात म्हूण दाखोवपी कितेंच तांच्यांत उरूंक नाशिल्लें. तांकां सेरेब्रल हॅमोरेज जाल्ली. 'हांकां रोखड्या रोखडे हॉस्पिटलांत व्हेल्ले बरे', दोतोरान म्हळें.

'व्हेले म्हूण बरे जावपाची आस्त आसा व्हय तर?' हांवें विचारलें. दोतोरान हयूय म्हळें ना, नाय म्हळें ना. 'निमाणे मेरेन उपचार करूंक जाय, अशें आमच्या **मॅडिकल एथिक्सां**त म्हळां.' म्हाका जाप मेळ्ळी.

हॉस्पिटलांत ते तीन दीस उरले. तांचें प्रेत भायर व्हरता आसतना कोणें तरी म्हळें, 'बरे गेले... ना जाल्यार स म्हयने मेरेन ते अशेच उरूं येताले.'

दोतोरांचें **मॅडिकल एथिक्स** कोणाक सुसेगाद मरूंक लेगीत दिना. उपचार करून कांय उपेग जावपाचो ना म्हणपाचें बेस बरें खबर आसून लेगीत दोतोर निमाणे मेरेन उपचार करीत रावतात.

□□□

महाकाश्यप खूब बरो ना म्हणपाचें कळनापुडें बुद्ध ताचे खबरेक गेलो. 'कशें दिसता जिवाक?' बुद्धान विचारलें.

'आपणाल्या व्याधी-धर्माक धरून कूड काम करता... पिडा जातात त्यो सोंसनात, भगवंता', काश्यपान जाप दिली. बुद्धान त्या वेळार ताका जो उपदेस केलो तो **सात बोध्यंगां** ह्या नांवान **मज्झिमनिकायां**त आयला. 'चित्त जागरूक दवरून सगळीं कामां करचीं; बऱ्याक कितें पडटलें, कितें पडचें ना हें सारकें समजून घेवन बऱ्याक पडटलें तेंच करचें; सगळीं कामां उर्बेन आनी खोशयेन करचीं; तकली शान्त दवरची; समाधानांत रावचें; जें लागना तें लावन घेवचों ना, अशें थारावन चलचें, म्हणटकूच पिडेन पडिल्लो मनीस पिडेंतल्यान मेकळो जातलो', हो सारावं ह्या उपदेसाचो. सूत्रांत निमाणें म्हळां, काश्यप ह्या सात बोध्यंगांक पाळो दिवन रावलो आनी थोड्याच दिसां भितर 'आळवा पाना वयलो दंवाचो थेंबो आपसूक गळून पडलो तशी ताची पिडाय गळून पडली' आनी तो खंय बरो जालो.

बुद्धाच्या महापरिनिर्वाणा उपरांत ताच्या उपदेसांक थीर रूप दिवचें म्हूण पयली 'संगिती' राजगृहांत भरिल्ली ती ताणेंच आपयल्ली. तिचें अध्यक्षपदूय ताणेंच चलयल्लें; इतलो बरो जाल्लो.

पुणून **सात बोध्यंगां**चो हो उपदेस एका धर्मपुरसाचो. तो आयकुपीय एक भावार्ती बौद्ध आशिल्लो. बौद्धांच्या **मॅटेरिया मॅडिका** ग्रंथांतलो उपदेस

न्हय हो. हाका **फेथ क्योर** म्हणूं येता. पुणून आमच्या ह्या देसांत चरक नांवाचो एक वैज जावन गेला. ताणें **चरक संहिता** म्हूण आपणाली एक **मॅटॅरिया मॅडिका** बरयल्या. खंयचे पिडेक खंयचें वखद दिवचें आनी पिडेन पडिल्ल्याक खंयचे पिडेक खंयचें पथ करूंक लावचें, हें सांगपी वैजकी ग्रंथ तो. तातुंतूय म्हळां, 'सगळे उपाय करून मनीस बरो जावपाची आस्त उरना तेन्ना वैजान ताका मेकळेपणान सांगचें, 'बाबा रे, आमच्यांनी जाता तें आमी करून पळेलें. आतां आमी तुका ईश्वरा सुवादीन करतात... तूं ताचें नांव घे. बरो जावपाचें नशिबांत आसलें जाल्यार बरो जातलो. नासलें जाल्यार शान्त चित्तान प्राण सोडूंक पावतलो.'

म्हज्या मत्तान हीच खरी **मॅडिकल एथिक्स** आसूंक जाय आनी हालिंच्या दोतोरांनी तीच चलोवंक जाय.

□□□

म्हज्या बापायचे पिळगेंतल्या दोतोरां कडेन पेशन्ट येताले ते निर्मोळी, मोडशी, दंत असल्यो कित्याय कितें खावन पियेवन जाल्ल्यो चार स तरांच्यो पिडा जाल्ले आसताले, वा जळारां चाबून मलेरिया, फ्लू, टायफॉयड सारके जोर आयिल्ले पेशन्ट आसताले. अनिमिया, टी.बी. जाल्लेय कांय जाण पावताले. ह्यो चडश्यो पिडा सैमूच बऱ्यो करतालें आनी सैमाक आधार दिवपीच वखदां दोतोर ते मुस्तींत दिताले. हालिंसाराक दोतोरां कडेन येतात त्या पेशंटांक उद्देगीक 'विकासा'न बक्षीस म्हूण दिल्ल्यो पिडा जाल्ल्यो आसतात आनी ह्यो इतल्यो किचकनडिच्यो आनी गडखळ आसतात की सैमाक बाबड्याक त्यो बऱ्यो करूंक येनात. दोतोरांक पेशन्टाचेर तरांतरांच्या वखदांचोच मारो करचो पडटा. आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार, खासा दोतोरांकूच ह्या वखदांत कितें आसता तें सारकें खबर नासता. बरें, वखदां तरी पातयेवपा सारकीं आसतात व्हय? कांय दसकां पयलीं पेनिसिलीन आयलें आनी रामबाण वखद जाल्ले वरी दोतोर ताचीं इंजेक्शनां पेशंटांक दिवपाक लागले. तेन्ना बाजारांत बनावटी पेनिसिलीन मेळपाक लागिल्लें. कांय वेळार दोतोरांक इंग्लंडांतल्यान पेनिसिलीन मागोवचें पडटालें. कित्याक, बाजारांत मेळटा त्या पेनिसिलीनाचो भरवंसो तांकां नासतालो. सगळ्याच मळांचेर उरफाट्या काळजाचे लोक वावरूंक लागल्यात. वखदां तयार करपी लोकां मजगतींय ते आसात आनी खेदाची गजाल म्हळ्यार, दोतोरां मजगतींय असले लोक आसात. **चरक संहितें**त म्हळां, दोतोर असो आसूंक जाय कीं ताचेर नदर पडनाफुडें पेशन्ट अर्दो बरो जावंक जाय. ताणें नाडी पळोवपाक हात हातांत घेनाफुडें उरिल्ल्या अर्दांतलो अर्दो बरो जावंक जाय, आनी उण्यांत उणीं वखदां दिवपीय तो आसूंक जाय. Prevention is better than cure मानपीच आसूंक जाय. आनी ताणें पेशन्टाक -

हवा उदक भूंय विखाळ जावंक ना असलेच सुवातेर वचून राव, वारो वत भरपूर प्रमाणांत घोळटा असल्याच घरांत राव, सकाळ सांज वर वर पासय मार, जमता जाल्यार कुदळ घेवन पोरसांत सद्दां वरभर तरी काम कर, सादें भाजीपाल्याचें जेवण जेव, जमता जाल्यार शिवराक जा, बेगीन न्हीद, बेगीन ऊठ आनी चित्त शुद्ध दवरपा खातीर सकाळ सांज नेमान प्रार्थना कर, अशें सांगूंक जाय. प्रार्थना कशी करची तीय पेशंटांक शिकोवंक जाय.

□□□

गुरुनाथबाब केळेकार म्हाका घटप्रभा दाखोवपाक घेवन गेल्लो. थंय हांवें असलो एक वैज पळेल्लो. दोतोर माधव वैद्य. ताचें 'आरोग्य धामू'य पळेल्लें. प्रसन्न व्यक्तिमत्वाचो दोतोर. पेशन्टाचेर ताची नदर पडनाफुडें पेशन्टाक आपूण बरो जालों अशें दिसतालें. 'आरोग्य धामां'त आर्विल्ले पद्धतिचे सगळे उपचार जाताले, ऑपरेशनां जातालीं. पुणून तें हॉस्पिटल नाशिल्लें. नांवा सारकेंच 'आरोग्य धाम' आशिल्लें. हवाय सुंदर घटप्रभेची. बरो जावपाक हवाच पुरो जाताली. तातूंत दो. माधव वैद्याचे 'सेवे'ची भर पडटाली. खरेपणानशीं हो एक आदर्श आश्रम आशिल्लो.

असलीं आरोग्य धामां आमच्यांनी आमच्या इकराय तालुक्यांत इकरा चलोवं येतालीं. पुणून -

'विकासा'चे भिकेचे दुवाळे लागिल्ल्या दळडिऱ्या राजकर्ण्यांनी गोंय जो धर्तरे वयलो सर्ग आशिल्लो ताका धर्तरे वयलो नर्क करून उडयलो! कितें करतले?

म्हजें एक मत्त जालां -

सत्तर वर्सां वयर पिराय जाल्ल्या मनशान निमाणो स्वास सोडपाक हॉस्पिटलांत वचूंक जायना. ताणें घरच्यांक सांगून दवरूंक जाय, म्हजें आयुश्य सोंपपा कडेन पावलां. आतां गेलों म्हूण कोणाचेंच लुस्कान जावपाचें ना. म्हाका निमाणे घटकेक हॉस्पिटलांत व्हरूं नाकात. दोतोर कितेंय सांगूं, निमाणो स्वास म्हाका घरांतूच घेवंक दियात. इंटेंसिव्ह कॅर, बायपास, ऑक्सिजन, सोर, ब्लड ट्रान्स्फ्यूजन, डायलिसीस कितेंच म्हाका नाका. हे उपाय उतार पिरायेचो अपमान करतात. सभ्य मनशाक सोबनात. हाल हाल करून म्हाका मारूं नाकात. शान्तपणान वचपाक आधार दियात. म्हाका सुद्द उरली जाल्यार, तुजें आतां सोंपपा कडेन पावलां अशें स्पस्ट सांगात. आनी निमाण्या खिणाक देवाचें नांव घेवपाक म्हाका मेकळो सोडात. उपचार करून कितलो तेंप जिवो दवरतले तुमी म्हाका? पामर जिजीविषे परस शान्तपणान मरपाचोच हावेस मनशान हे पिरायेर बाळगूंक जाय आनी घरच्यांनी ताचो हो हावेस पूर्ण करपाक ताका आधार दिवंक जाय.

* * *

---

## पडसाद

वावुरपी संपादपी
जाग म्हयनाळें

मार्चच्या जागांत भौ. डॉ. सु. म. तडकोडकार हांणी दिल्लो कवी बाळ सीताराम मर्ढेकरांचे 'पिंपांत मेले ओल्या उंदिर' हे गाजलेले कविते विशिंचो तपशील वाचलो. म्हज्या संग्रहांत हो आंक आसा. ती कविता म्हाका केन्ना कळ्ळीच ना. कविता आपल्याक कळ्ळी ना जाल्यार ती आपले खातीर न्हय अशें म्हणून सोडून दिवंची, अशें मर्ढेकरूच सांगताले.

डॉ. म. वा. धोंड हांचें 'तरीहि येतो वास फुलांना' (१ली आवृत्ती १८-४-९९) हें पुस्तक हातांत पडलें आनी हे आनी मर्ढेकरांच्या हेर दुर्बोध कवितांचें रसग्रहण वाचूंक मेळ्ळें. जागाच्या वाचप्यांचे नदरेक हें पुस्तक हाडचेंशें दिसलें म्हणून हें पत्र.

बरें मागून,
तुमचो,

**मनोहर पै धुंगट**, मुंबय

---

ह्या आंकांत कांय कारणां खातीर 'नंदालो पोर' आनी 'इतिहासाचीं पानां' हीं सदरां आमी उजवाडावंक पावनात हाची आमकां खंत जाता.

वावुरपी संपादपी

# कोण कोणाचो

चंद्रकांत केणी

लस्करांतले निवृत्त अधिकारी केन्ना केन्नाय वेगळेच तरेच्यो गजाली सांगतात. चडशे आपणें लस्करांत आसतना कसले कसले अणभव घेतले तांच्यो यादी सांगतात. तो प्रत्यक्ष झुजांत झुजिल्लो आसत जाल्यार ताका ते गजालिचो कितलो अभिमान दिसता तें ताच्या उतरां वयल्यान कळटा. रेल्वेच्या प्रवासांत असले अधिकारी म्हाका जायते खेपे मेळ्ळ्यात आनी तांचे अप्रूप अणभव आयकुपाची संद हांवें सादल्या.

खुबशे अधिकारी तांच्या मिशयांक लागून वा तोंडा वयल्या भावाक लागून गंभीर वा रुक्ष दिसतात. थोडे मस्त्या बुकल्या भाशेन हेरांक तुच्छ लेखून आपले भितर गुरगुरत बशिल्ले आसतात. हांसत्या तोंडाचे, सगळ्यां कडेन मिसळून वागपी लस्करी अधिकारी खूब थोडे. पूण वयल्यान रुक्ष दिसले तरी काळजांत सादेपण, मायेचो झरो खळखळटा अशे अधिकारी म्हाका मेळ्ळ्यात.

आयज मेरेन तरांतरांचे सहप्रवासी भेटल्यात. तातूंत प्रवास लांबचो आसत जाल्यार सहप्रवासी मेकळेपणान उलयतात, आपले काळजाचे कोठयेंत जतनायेन दवरिल्ल्यो यादी एकामेकांक थंडसाणेन सांगतात हो म्हजो अणभव. प्रवास म्हळ्यार एके तरेची बंदखण. थंय वेळ बरे तरेन सारप होच हेतू मुख्य आसता. डब्यांतले प्रवासी अनवळखी आशिल्ल्यान सगळें सांगतना तांकां संकोच जायना. कांय जाणांचो सभाव बडायो मारपाचोय आसता. तांकां खबर आसता की, आपूण करतां तें एक नाटकांतलें सवंग. नाटकांतल्या राजाक नाटक सोंपतकच कोण कांय विचारिना आनी नाटकांत चोराचें काम करतल्याक कोण फांसार चडयना.

एक खेपे मीरजे सावन मडगांवां येता आसतना म्हाका डब्यांत एक लस्करी अधिकारी मेळ्ळो. हांवें निझामुद्दीनाक सावन येतले वास्को एक्स्प्रेस गाडयेंत पयल्या वर्गाचें रिझर्वेशन केल्लें. पूण वास्को एक्स्प्रेस त्या दिसा बारा वरां लेट आसा हें कळटकच मिरजे सावन सुटटले दुसरे गाडयेंत जागो मेळोवपाचो यत्न केलो. टी.सी.ची मनधरणी करची पडली. ताणें सांगलें, ''मुंबयची गाडी आयले उपरांतच एकाद्रो बर्थ रिकामो आसलो जाल्यार तुका जागो दितां.''

हांव टी.सी.कडेन उलयता आसतना म्हजे कुशीक आशिल्ल्या गणवेशांतल्या लस्करी अधिकाऱ्यान मदीं तोंड घालें. ताणें म्हळें, ''हांवय समदुख्खी. वास्को वचपी गाडी प्लॅटफॉर्मार उबी आसा. मुंबयची गाडी येतकच धा मिनटांनी ती सुटटली. ऐन वेळार आमची धांदळ जावं नये हे खातीर आमकां डब्यांत बसूंक दी. बर्थ रिकामो नासलो जाल्यार आमी बसून वा उब्यांनी प्रवास करतात.''

उलयतां उलयतां ताणें आपल्या शर्टाच्या वयल्या बॉल्सांतल्यान आपलें वळखपत्र भायर काडलें आनी तें टी.सी.क दाखयतां दाखयतां ५० रुपयांची एक नोट ताचे मुठींत सरकायली. टी.सी.न रोखडोच आपलो हात बोल्सांत घालो आनी आमकां म्हळें, 'बरें आसा. तुमकां दोन बर्थ दितां. मागीर कशी वेवस्था करपाची तें गाडी सुटटकच पळोवया.'

टी.सी.न आमचीं नांवां आपल्या चार्टार बरोवन घेतलीं आनी तो दुसरे कडेन गेलो. लस्करी अधिकाऱ्यान म्हाका हांसून म्हळें, 'प्रवासांत हें अशेंच करचें पडटा. चल, आमी बसुंया वचून.'

चार बर्थ आशिल्ल्या डब्यांत आमी चडले. आपलें बॅग ताणें सिटापोंदा घालें आनी म्हाका म्हळें, 'साडे धा वरांचेर (रातिच्या) गाडी सुटटली. मडगांवां पावतासर आठ-साडे आठ जातलीं. तूं सकयलो बर्थ घे. हांव वयल्या बर्थाचेर न्हिदतां.'

हांवें म्हज्या वांट्याचे २५ रुपया ताका दिवंक काडले तेन्ना ताणें ते घेतले नात. म्हळें, ''कसले पयशे दिता?''

मुंबयची गाडी पावतासर तो सकल्याच बर्थाचेर बसून आशिल्लो. गाडी येनाफुडें सगळोच बोवाळ जालो आनी धा मिनटां भितर आमची गाडी सुटली. ल्हवू ल्हवू गाडयेची गती वाडली. आमच्या डब्यांत कोणच आयलो ना.

''आमचें नशीब बरें म्हणूंक जाय'', हांवें म्हळें. ''ऐन वेळार डबो बदलपाचो प्रसंग आयिल्लो जाल्यार अडचण जावपाची.''

''तुका खबर ना, हे टी.सी. बेरकी आसतात. डबो रिकामो आसा हें तो जाणा आशिल्लो. पूण तें सांगिल्लें जाल्यार ताका ५० रुपया कशे मेळटले आशिल्ले?''

''तुका बरो अणभव आसा. पूण तूं नाशिल्लो जाल्यार म्हाका मात त्रास जातलो आसलो. आनी पयशां खातीर नासलें तरी ताका लांच दिवपाचें धाडस म्हज्यान जावपाचें न्हय'', हांवें म्हळें.

''हांव खूब भोंवतां. देखून तरातरांचे अणभव हांवें घेतल्यात. एक खेपे एक आवय आपले ल्हान चलयेक घेवन दुसऱ्या वर्गाची तिकेट काडून जागो मेळना देखून पयल्या वर्गांत चडिल्ली. डब्याच्या दारांत टॉयलेटाच्या दारा कुशीक ती आंग चोरून बशिल्ली आनी टी.सी. तिका देंवंक सांगतालो. चलते गाडयेंतल्यान ती देंवतली कशी? असोच रातिचो वेळ. फुडलें स्टेशन आनीक दोन वरांनी येवचेलें आसलें. थंय देंवयली जाल्यार ती एकली बायल रातिच्या वेळार खंय वतली? पूण टी.सी.क तिची काकुळट दिसली ना. तो तिका आठशीं रुपया भर नाजाल्यार देंव, अशें सांगत रावलो. हांव टॉयलेटांत वतालों तेन्ना हांवें तो देखाव पळयलो. 'कितें जालें', टी.सी.क विचारलें. 'सेकंड क्लासाची तिकेट आनी फर्स्ट क्लासांत चडल्या. तिणें वयलें भाडें फारीक करचें ना जाल्यार देंवचें अशें हांवें सांगलां', टी.सी.न जाप दिली. 'चलते गाडयेंतल्यान ती कशी देंवतली? फुडलें स्टेशन येतकच तिका दुसऱ्या वर्गांत बसय.' हांवें सांगलें. 'दुसऱ्या वर्गांतय जागो ना. सगळे बर्थ आनी सीट

भल्ल्यात. ही चुकिचे गाडयेंत चडल्या', टी.सी.न म्हळें. 'जावं, तिची काकूट कर. तिणें बर्थ खंय आडायला?' हांवें म्हळें. 'म्हाका म्हजें कर्तव्य करचें पडटा', टी.सी.न म्हळें.

''अशे तरेचो तांचो संवाद बरो वेळ चल्लो. निमाणें हांव परत येवन म्हज्या बर्थार बसलों. फुडल्या स्टेशनाचेर गाडी थांबली तेन्ना हांव परत दारासरीं गेलों. पळेत जाल्यार टी.सी. ना आनी ती बायलय ना. भायले वटेन नदर भोंवडायली तेन्ना टी.सी. दिसलो पूण ती बायल दिसली ना. हांवें येवजिलें, टी.सी. कितलोय जाल्यार मनीसच. तिका दुसऱ्या वर्गांत बसयली आसतली.'' तो अधिकारी म्हाका सांगतालो.

''तशे कळवळ्याचे मनीस आसतात.'' हांवें म्हळें.

''म्हजी खबर इतल्यान सोंपूंक ना'', त्या अधिकाऱ्यान म्हळें. ''फांतोडेर टॉयलेटींत गेलों जाल्यार म्हाका ती बायल दिश्टी पडली. म्हाका अजाप जालें आनी हांवें विचारलें, तुका ताणें निमाणे कडेन खंय जागो दिलो?''

लागिंचेच कुपेकडेन बोट दाखोवन तिणें म्हळें, ''थंय वेवस्था केली.''

''तुवें पयशे दिले?''

''पयशे नासले. म्हजो घोव घरा ना. लग्न करून दिल्ली धूव बरी ना म्हणून तार आयली देखून हांव एकलीच धुवेच्या गांवांत वचूंक भायर सल्ल्यां. हे चलयेच्या कानांत दोन रिंगां आसलीं. तीं टी.सी.क दिवन ताचें समाधान केलें.'' तिणें जाप दिली आनी रडकुरें तोंड करून ती आपले कुपेंत भितर सरली.

''म्हाका एकदम राग आयलो'', त्या अधिकाऱ्यान म्हळें. ''म्हजे मुखार तो टी.सी. आयलो जाल्यार ताचें तोंड फोडचें आनी तिगेलीं रिंगां तिका परत घेवन दिवचीं अशें म्हाका दिसलें. कसली ही बळजबरी?''

''टी.सी. खंय गेल्लो तर?'' हांवें विचारलें.

''दुसऱ्या डब्यांत गेल्लो आसतलो. स्टेशन येईसर म्हाका ओगी रावचें पडलें. म्हज्या बर्थाचेर परत येतना हांवें ते बायलेक विचारलें, ''टी.सी.न तुका पावती दिल्या?''

''ना. ते बायलेन जाप दिवन म्हळें, 'आतां फुडल्या स्टेशनार हांव देंवतलीं.' तिणें आपले कडची तार म्हाका दाखयली.''

''हांवें ती तार वाचली. पळेत जाल्यार तिगेली चली मेल्या. तिका तें खबर ना. म्हाका तिचे विशीं चडच काकुळट दिसूंक लागली. हांवें तिका म्हळें, ''टी.सी. मेळूं दी. हांव तुजीं रिंगां परत घेवन दितां.''

ते बायलेन अधिकाऱ्याचे पांय धरले आनी म्हळें, ''म्हजे खातीर झगडीं करूं नाका. रिंगां गेल्यार वचूं. चूक म्हजीच जाल्ली. ताणें दुसरी आगळीक करची न्हय देखून रिंगां दिवन उडयलीं.''

तिका हुडको फुटलो.

''फुडल्या स्टेशनार ती देंवली. तो टी.सी. आयलोच ना. उपरांत म्हाका कळ्ळें, राती कडेन मदल्या स्टेशनार ताची पाळी सोंपिल्ली.''

आमचे गाडयेची गती वाडली. तो लस्करी अधिकारी सकलो बर्थ रिकामो आसतनाय वयल्या बर्थार चडलो आनी दोन मिनटां भितर घोरेवंक लागलो.

तो अधिकारी न्हिदलो पूण म्हज्या दोळ्यां मुखार ताणें सांगिल्ली खबर साकार जावन म्हाका अस्वस्थ करूंक लागली. धुवे खातीर इतले पयस वतकूच धूव ह्या संवसारांत ना म्हणपाचें तिका कळटलें. घडये तिचे कुडिचें दर्शन लेगीत तिका घडिल्लें नासतलें. पयशांक पयशे खर्च, ते भायर भुरग्याचीं रिंगां. घोव घडये जाप विचारीत... खंयचे परिस्थितींत तिणें टी.सी.क रिंगां दिल्लीं आसत?

फांतोडेर बेळगांवां गाडी पावली तेन्ना तो अधिकारी सकयल देंवलो. डब्याच्या जनेलांतल्यान ताणें च्या घेतली. हांव अर्द न्हिदांत आसलों. म्हाका ताणें उठयलो ना. आपूण उठून बाथरुमांत गेलो. तो परत आयलो ते मेरेन हांव उठून बशिल्लों. गाडयेन बेळगांव सोडिल्लें. तो आयलो तेन्ना हांवें विचारलें, ''तूं गोंयांत वता?''

''हय. दोन दिसांची रजा काडून मुजरत गोंयांत वतां.''

''तशें जाल्यार फुडले वाटेंत म्हाका तुजो सांगात मेळटलो.'' हांवें म्हळें.

तो कांय उलयलो ना. आपलें बॅग उकतें करून ताणें सादे कपडे आंगार चडयले आनी दुसऱ्या बर्थाचेर बसचे आदीं दोन-चार योगासनां करून घेतलीं.

''हांव सद्दां सकाळचो व्यायाम करतां. तो एक दीस चुकलो जाल्यार खाल्लें पचना.'' ताणें म्हाका सांगलें.

''संवयेचें तशेंच आसता'' हांवें म्हळें.

तो निखटो हांसलो.

आदले राती इतल्या मेकळेपणान उलोवपी हो मनीस आतां तुटक कित्याक उलयता, म्हाका समजना जालें. हांव ताका निरखीत रावलों. ताणें बॅगांतलें एक पुस्तक काडलें. तें दोळ्यां मुखार धरून तो तोंडांत कितें तरी पुटपुटत रावलो. भोव करून तो प्रार्थना करतालो आसुंये.

तितले म्हणसर हांवें ताका सारको पळोवन घेतलो. ३५-४० वर्सांची ताची पिराय आसतली. पूण लस्करांत ताचो हुद्दो बरोच वयलो आसूंक जाय हें ताच्या गणवेशा वेल्यान दिसतालें. रंग काळो. ओतान करपून जाता तसो. तोंड गंभीर, पीळ दिल्ल्यो मिशयो. सामके बारीक कापिल्ले केंस. बाथरुमांत गेल्ले कडेन ताणें खाड काडिल्लें आसूंक जाय. तोंड तुकतुकीत. प्रार्थना करतना पद्मासन घालून तो बशिल्लो.

तागेली प्रार्थना सोंपतासर उदेंतेच्या क्षितिजा कडेन झाडांच्या रांगां कडेन तांबडें गुंज बिंब वयर येवंक लागलें. आपले दोनूय हात मुखार धरून ताणें सुर्याक नमन केलें आनी उपरांत म्हाका म्हळें, ''तूं कितें विचारतालो?''

''खास कांय न्हय'' हांवें जाप दिली, ''तूं रजा घेवन गोंयांत वता, तूं मूळ गोंयचो?''

''न्हय, आनी गोंयांत हांव पयलेच खेपे वतां. हांव मूळ हिमाचल प्रदेशांतलों. पूण आतां म्हजें पोस्टींग आसामांत जालां. इतले पयसुल्ल्यान फकत दोन दिसां खातीर गोंयांत वतां.''

''गोंयांत कोण, सोयरे, मित्र आसात?' हांवें विचारलें.

''सोयरे न्हय, मित्रच म्हणूंक जाय.'' येवजिल्ले भाशेन करून ताणें जाप दिली. ''हांवें तांकां पळोवंक ना वा हांव तांकां केन्नाच मेळूंक ना. म्हज्या बापायची इत्सा आसली देखून हांव थंय वतां.''

''बापायची इत्सा आसली म्हळ्यार...'

म्हजो प्रस्न पूर्ण जावचे आदींच ताणें म्हळें, ''म्हजो बापूय संवसारांत ना. झुजाच्या रणांगणाचेर ताका वीर मरण आयलें.''

बापायचो उगडास काडटना तो सद्‌गदीत बी कांयच जालो ना. थोड्याशा अभिमानान उलयता अशें दिसलें. पूण बापायची इत्सा कसली आनी तो गोंयांत कित्याक वता हें समजून घेवपाची उमळशीक आसुनूय ते विशीं ताका सरळ विचारप म्हाका समा दिसलें ना. आनी हांवें ताका ताच्या कामा विशीं विचारलें.

''झूज नासता तेन्ना काम थोडें आसता अशें न्हय, पूण तकलेर ताण

सता. लस्करांतली चाकरी म्हळ्यार धगधगत्या इंगळ्यां वेल्यान उक्त्या यांनी भोंवपा इतलें दिव्य. पूण तातूंत एक समाधान आसता. झूज नासता न्ना तकलेक ताण नासता. सुटी मेळटा तेन्ना घरा वचपाचें. घरा आमचो फरचंदांचो मळो आसा. म्हजी आवय आनी मामा तो सांबाळटात. स्करांतल्यान निवृत्त जाले उपरांत हांव गांवांत वचून स्थायीक जातलों.''

''तूं अजून भुरगो आसा आनी इतले बेगीन निवृत्तिची भास कित्याक लयता?'' हांवें विचारलें.

''मनीस झाड रोयता तेन्ना त्या झाडाक फळां लागतलीं त्या दिसाचीं पनां पळयता. पूण सगळ्यांकच आपणें रोयिल्ल्या झाडाक लागिल्लीं फळां ळोवपाचें भाग्य मेळना. केन्ना झाड फुलचे आदींच मरता ना जाल्यार केन्ना तें वपी आदीं मरता... आमी लस्करांत मरणाचे सांवळेंत जगतात. सपनां ळयतात निवृत्तिचीं. पूण तीं सदांच पूर्ण जातात अशें न्हय. झुजांत आयिल्ल्या रणाक आमी भियेनात, पूण खंयच्याय खिणाक झूज पेटूं येता आनी झूज हळें म्हणटकच वीर मरणां आसतातच. ते भायर दिसपट्ट्यो तालमी सतात. थंय अपघात जावं येता...'' ताणें सांगलें.

''तुमच्या बायलांची आनी भुरग्यांची भावना कशी आसता?'' हांवें विचारलें.

''तशें पळोवंक गेल्यार मनशाक मरण कशेंय येवं येता. रस्त्या वयल्या अपघातांत, भुंयकांप जावन, दंगे जावन वा तरेकवार रोगांक लागून दिसपट्टे नीस मरत आसतात. त्या मानान झुजांत मरतल्या लोकांचो आंकडो खूब न्हान• आसता. कित्याक कोण जाणा, लस्करांतली चाकरी म्हळ्यार रणाच्या तोंडांतलो खेळ अशें लोक मानतात. पूण आमचो अणभव वेगळो . आमच्या वाठारांत लग्नाच्या बाजारांत लस्करी अधिकाऱ्यांक मागणी चड आसता. आमच्या बायलांक लस्करांतले घोव जाय आसतात. आनी हांव तुका सांगतां, झुजांत घोवाक मरण आयलें जाल्यार लेगीत लस्करी अधिकाऱ्याची बायल सरकाराक वा लस्कराक दुशण दिना.''

''तांच्या मनाचीच रचणूक तशी जाल्ली आसतली'' हांवें म्हळें.

''तें तर आसाच.'' ताणें म्हळें. ''पूण आतां झूज ना देखून म्हजी बायल म्हज्या सांगातान रावता. भुरग्यांची मात खूब धांदळ जाता. वयले वयर बदल्यो जायत राविल्ल्यान भुरग्यांक शिक्षणा खातीर खंय तरी एके कडेन दवरचें पडटा. तितलें सोडलें जाल्यार दुसरे खंयचेय चाकरे परस, कांकणभर चडच, लस्करांतली नोकरी बरी.''

''तुजी बायल तुज्या सांगातान आसामांत आसता?''

''हय, सध्या आसा. म्हाका रजा मेळटा तेन्ना आमी गांवांत वतात. पूण हांव ड्यूटीर भायर गेलों म्हूण तिका कसलीच अडचण येना. आमच्या लस्करांत ती एक बरी प्रथा आसता. आमची एक वस्ती आसता. ते वस्तींतले सगळे दादले आनी बायलो हांचो म्हजे बायलेक धीर आसता. भायर वतना वा सरादिचेर आमी हुस्क्या मेकळे उरतात'' ताणें जाप दिली.

''गोंयांत सुटयेंत वता जाल्यार बायलेकय कित्याक हाडली ना?'' हांवें विचारलें.

''हांव फकत एकच दीस गोंयांत उरतलों. चडच जाल्यार दोन दीस उरन. हांवें तुका सांगलें न्हय, हांव एका बऱ्या कार्याक वतां... तरी कर्तव्याचे भावनेन वतां. म्हज्या बापायचे इत्सेक मान दिवचे खातीर वतां. ना जाल्यार इतलो पयसुल्लो प्रवास करप, इतलो खर्च करप म्हाका परवडपाचें न्हय'', ताणें म्हळें.

''तूं खाजगी कामाक वता आसतलो. ते विशीं हांव तुका विचारिना...''

''तशें लिपोवपा सारकें कांय न्हय. सिल्वेराच्या लग्नाक हांव वतां. हो सिल्वेरा कोण तें मात तूं म्हाका विचारूं नाका. तो कोण तें म्हाका खबर ना. तो गोंयांत रावता हें जाणा आसलों. ताची आवय म्हज्या बापायक पत्रां धाडटाली आनी तीं पत्रां येतकच म्हजो बापूय सदांच म्हणटालो, 'ह्या सिल्वेराक बापूय ना. पूण बापायचें उणेपण ताका केन्ना जाणोवन दिवचों ना अशें हांवें तागेले आवयक उतर दिलां.' म्हजो बापूय मरून खूब वर्सां जालीं. ताच्या मरणा उपरांत तिचीं एक दोन पत्रां आयिल्लीं. पूण तिका म्हज्या बापायच्या मरणाची खबर कळटकच पत्रां बंद जाल्लीं. हालींच तिगेल्या चल्याच्या लग्नाचें आमंत्रण आनी पत्र पावलें. देखून हांव गोंयां वचूंक भायर सल्लां.''

अशें म्हणून ताणें आपली बॅग उकती करून लग्नाच्या आमंत्रणाचें कार्ड म्हज्या हातांत दिलें. हांवें कार्ड बारीकसाणेन वाचलें. गोंयच्या एका खेड्यांतले इगर्जेंत सिल्वेराचें लग्न जावचें आसा. ते उपरांत त्याच गांवच्या एका हॉलांत येवकार सुवाळो आसा. आमंत्रणाचेर अदीक म्हायती ना.

''कोण हो सिल्वेर? तो करता कितें?... तोय लस्करांत आसता?'' हांवें विचारलें.

हो प्रस्न विचारच्या वेळार त्या अधिकाऱ्याचें नांव म्हाका कळिल्लें. कार्डाचेर ताचें नांव आसलें. प्रवीणकुमार हें ताचें नांव. म्हजो प्रस्न आयकून प्रवीणकुमारान म्हळें, ''तो लस्करांत आसा अशें म्हाका दिसना. तो कितें करता हें हांव सारको नकळ. म्हजो बापूय आसतना तागेले आवय कडेन पत्रवेव्हार जातालो. बापूय गेल्याक नव्या वर्साचें शुभेच्छा कार्ड ती धाडटा. तितलोच संबंध उरला.''

''तुवें जाका पळोवंक ना अशा मनशाच्या लग्ना खातीर तूं आसामाक सावन गोंयांत वता म्हणटकच ताका तशेंच कारण आसतलें. म्हाका तुजी तोखणाय दिसता.''हांवें म्हळें.

''तशें गुपीत कारण कसलेंच ना. तीस बत्तीस वर्सां आदली ती खबर. तुका ती आयकूंक कितली आस्था आसतली तें हांव नकळ. एक सादो पूण म्हत्वाचो असो तो प्रसंग. १९६२ वर्सा कलकत्ता शारांत घडिल्लो.''

''सांग तूं'', हांवें म्हळें, ''तुजे अणभव आयकुपा सारके आसात.''

''तेन्ना म्हजो जल्म लेगीत जावंक नासलो'', प्रवीणकुमारान सांगलें. ''म्हज्या बापायचें लग्नय जावंक नासलें. ते घडणुके उपरांत ताचें लग्न जालें. ते उपरांत म्हजो जल्म.''

''मागीर सिल्वेराचो थंय कसलो संबंध?'' हांवें विचारलें.

''आतां हांव जाच्या लग्नाक वतां तो सिल्वेरा ज्युनियर. ताचोय तेन्ना जल्म जावंक नासलो. ताचो बापूय आनी म्हजो बापूय त्या दिसा थोड्या वेळा पुरते मेळिल्ले. दोगांकय एकामेकांचीं नांवां कळिल्लीं. त्या दिसा तांची वळख जाली अशेंय म्हणूं नज. अजापाची गजाल म्हळ्यार सिल्वेराची आनी म्हज्या बापायची ती पांच मिनटां खातीर जाल्ली पयली आनी निमाणी भेट. त्या एका प्रसंगान कुटुंबांक एकामेकां कडेन जोडून दवरल्यांत.'' प्रवीणकुमारान सांगलें.

''सिल्वेरा किरिस्तांव हें तुका खबर आसा न्हय?'' हांवें विचारलें.

''तें नांवा वयल्यानच कळटा. पूण आमच्या संबंधांत धर्म आडवो येना. कितें घडलें तें सांगतलो जाल्यार थोडीशी फाटभूंय आदीं समजावची पडटली.'' अशें म्हणून प्रवीणकुमारान १९६२ वर्साचें तें वातावरण म्हज्या दोळ्यां मुखार उबें केलें.

चीनान अचकीत घुरी घाल्ल्यान देशांत आकांत पातळिल्लो. लस्कर, पोलीस आनी नीम-लस्करी दलांच्या जवानांच्यो रजा रद्द जाल्ल्यो. ते भायर नवी भरतीय सुरू जाल्ली. चीना कडल्या झुजांत आमकां मनीसबळ आनी शस्त्रांय उणीं पडटालीं. पूण भारतान चिवट झूज दिवपाचो निर्धार केल्लो.

त्या वेळार जाण्टेलो सिल्वेरा कनिष्ठ अधिकारी आसलो. तो रजेर आसलो. लग्न जावचे खातीर तो गोंयचे वाटेर आसतनाच ताका परत येवचें पडलें. एके वटच्यान लग्न लांबणेर पडिल्लें आनी दुसरे वटेन झुजाचीं कुपां दाटून आयिल्लीं. ताची नेमणूक कलकत्ता शारांत जाल्ली. नव्यान भरती जाल्ल्या जवानांक प्रशिक्षण दिवपाचें काम ताका दिल्लें. ताच्या सांगातान हेर अधिकारीय आसताले. वातावरण झुजाचें आसलें तरी ताचें काम वेगळे तरेचें जाल्ल्यान ताका मेकळीक मेळटाली.

झूज सोंपतकच लग्न जावपाचें आशिल्लें. पूण आदीं रजिस्ट्रेशन जाल्लें देखून लग्नाचो सुवाळो रद्द करून बायलेक कलकत्त्याक आपोवची अशें ताणें थारायलें. तागेल्या वरिश्ट अधिकाऱ्यांनी ताका मान्यता दिली. पूण शिटकायलो, ''तिका हाडून तुमी थोडे दीस हॉटेलांत रावात. उपरांत परिस्थिती कशी बदलता तें पळोवन फुडलें थारावं येता. चडच जाल्यार तिका परती धाडची पडटली. तातूंत अडचण कांय ना.''

सिल्वेराक रजा मेळपाचो प्रस्नच नासलो. एका दिसाची सुटी लेगीत तेन्ना मेळनासली. पूण तागेल्या वरिश्टांनी ताका सकाळचें काम करतकच रातचो बायले सांगातान हॉटेलांत रावपाची परवानगी दिली. गोंयच्यान आयिल्ली नाची बायल सगळी दनपार मिलिटरी कँपांत बसून रावली आनी सांजचो सिल्वेरा तिका घेवन हॉटेल सोदूंक गेलो.

पूण एकाय हॉटेलांत रूम रिकामो नासलो. सगळीं हॉटेलां भरिल्लीं आनी उकत्या जाग्यांनी लेगीत जमनीर लोकांनी हांतुणां घाल्लीं. टॅक्सी घेवन घोव आनी बायल खंय जागो मेळत हाचो सोद घेत भोंवलीं आनी रातिच्या सुमार धा वरांचेर खंयच जागो मेळना हें पळोवन एका गार्डनाच्या बांकाचेर वचून बसलीं. सिल्वेराच्यान परत आपले छावणेंत वचूं येतालें. पूण बायलेक खंय दवरतलो?

''गार्डना मुखार रस्त्याचे पलतडीं व्हडलें हॉटेल आसलें. त्या हॉटेलांत म्हज्या बापायन एक रूम घेतिल्लो. दुसऱ्या दिसा ताका आघाडेर वचपाचें आशिल्लें. तोय नव्यान भरती जाल्लो अधिकारी. तेन्ना ताचें लग्न लेगीत जावंक नासलें. रातिचें जेवण घेतले उपरांत तो गार्डनांत फिरूंक आयिल्लो. फांतोडेर तो दार्जीलिंगाक वचूंक भायर सरपाचो आसलो. थंयसून ताका सरादीर धाडपाचे आसले. सरादीर कितले दीस रावचें पडत हाचो नेम नासलो. देखून कलकत्ता शारांतली निमणी रात खोशयेन सारपाचो तो यत्न करतालो.''

गार्डनांतल्या बांकार एक जोडपें बसलां. बायल रडटा आनी दादलो तिका समजायता हें पळयतकच तरण्या लस्करी अधिकाऱ्याक वेगळो दुबाव आयलो. ताका दिसलें, दादल्यान तिका फटोवन वा पळोवन हाडिल्ली आसुंयेत. ताका धाक घालचो आनी तिची सोडवणूक करची अशें येवजून प्रवीणकुमारालो बापूय तांचेसरीं गेलो. तेसरशीं तें जोडपें उठून उबें रावलें. बायल तर भियेवन त्या दादल्याक वेंग मारून रावली.

आपलो अदमास चुकला हें तो देखाव पळेनाफुडें प्रवीणकुमाराल्या बापायच्या लक्षांत आयलें. ताणें म्हळें, ''हांव तुमकां कांय करिना. तुमी भियेवं नाकात. पूण ह्या रातिच्या वेळार तुमी हांगा कितें करतात? तुमचें कितें जालां?''

सिल्वेरान घडिल्ली खबर ताका सांगली. दोगूय लस्करांतले अधिकारी. समान पिरायेचे. दोगांच्याय आंगांचेर त्या वेळार गणवेश नासलो. वळख जायनाफुडें दोगांनीय एकामेकांक हात दिलो आनी चड वेळ विचार करिनासतना प्रवीणकुमाराल्या बापायन म्हळें, 'रस्त्या पलतडीन जें हॉटेल आसा थंय म्हजो रूम आसा. चार-पांच वरांचो प्रस्न. तुमी त्या रुमांत रावात. एक खेपे तुमच्या नांवार तो रूम जालो म्हणटकच तुमकां जाय तितले दीस थंय रावंक मेळटलें.''

मातशा संकोचान पूण दुसरो उपाय नासून सिल्वेरान ताच्या सांगातान हॉटेलांत येवन त्या रुमाचो ताबो घेतलो आनी प्रवीणकुमारालो बापूय आपलें सामान घेवन भायर आयलो.

दोगूय एकेच पिरायेचे आसुनूय सिल्वेरान ताचे पांय धरून उपकार मानले. ताचे व्हंकलेन तर रडत रडत म्हळें, ''तूं देवदुता सारको पावलो.''

दोगूय अधिकाऱ्यांनी एकामेकांचे पत्ते घेतले आनी प्रवीणकुमारालो बापूय हॉटेल सोडून गेलो.

''ती रात म्हज्या बापायन त्याच गार्डनांत बसून सारली. आनी दुसऱ्या दिसा फांतोडेर तो आपले वाटेन फुडें गेलो.''

''त्या सिल्वेराच्या चल्याच्या लग्नाक तूं आतां वता?''

''हय.''

''पूण ते घडणुके उपरांत तुजो बापूय आनी जाणटेलो सिल्वेर एकामेकांक खंय मेळ्ळे?'' हांवें विचारलें.

''तांची भेट जावंकच पावली ना.'' प्रवीणकुमारान सांगलें. ''म्हजो बापूय आघाडेर गेलो आनी सुमार चार म्हयन्यांनी घरा परतलो. आपणें सिल्वेराचेर उपकार केला अशें ताका केन्ना दिसलें ना आनी तो प्रसंगय तो विसरून गेलो.''

''पूण पत्रवेव्हार चालू जाल्लो आसतलो.'' हांवें म्हळें.

''ना. सुमार दोन वर्सांनी म्हज्या बापायक एक पत्र आयलें. तें सिल्वेराचे बायलेचें आसलें. तिणें बरयल्लें - त्या दिसा हॉटेलांत हांवें सारली ती घोवा सांगाताची निमाणी रात आसली. दुसऱ्या दिसा सरादी वयलें वातावरण खुबच इबाडलें आनी चिनी लागीं पावले तेन्ना म्हज्या घोवाक मायभुंयेच्या उल्याक धांवून वचचें पडलें. हांव गोंयांत परतलीं. त्या झुजांत म्हज्या घोवाक वीर मरण आयलें. पूण तुवें आमचेर जे उपकार केल्यात ते हांव केन्नाच विसरचीं ना. म्हगेर चलो जाला. म्हज्या सोंपिल्ल्या घोवाचो तोच एक उगडास उरला. तुजें रीण सदांच उरतलें. पूण एक मागणी आसा, केन्नाय तरी गोंयांत येवन म्हज्या पुताक आशिर्वाद दी.''

ही खबर सांगतां सांगतां प्रवीणकुमाराल्या दोळ्यांत दुकां आयलीं.

''तुजो बापूय गोंयांत गेलो काय ना?'' हांवें विचारलें.

''गेलो, आशिर्वाद दिवन आयलो. ते उपरांत खूब वर्सां उलगलीं. म्हज्या बापायच्या लग्नाक सिल्वेराची बायल आपल्या पुताक घेवन आयिल्ली... पूण जें सिल्वेराचें घडलें तेंच थोड्या वर्सांनी म्हज्या बापायचें घडलें... तें नातें स्मरून हांव आतां गोंयांत वतां !''

* * *

# वैज्ञानाच्या शिक्षणांतले कांय प्रयोग

डॉ. अरूण हेबळेकार

वसणुकवादी शिक्षण पद्दत आमी आपणायल्या अशें जायते फावटीं आमचे शिक्षणतज्ज्ञ आनी हेर विद्वान म्हणटात तें आमी आयकतात. ब्रिटिशांनी भारत देश सोडलो तरी तांणी तांच्या वसणुकांक आदार दिवपी शिक्षीत वर्ग निर्माण करपाक चलयिल्ली शिक्षण प्रणाली आमी आयजूय घट घेवन बसल्यात. हे शिक्षण पद्दतींत वर्सभर जोडिल्ल्या गिन्यानाची दोन ते तीन वरां भितर चांचणी घेतात आनी वर्सा अखेरेक भुरग्यांचेर 'पास' वा 'फेल' हे शिक्के मारून आमी मेकळे जातात. पास जाल्लो विद्यार्थी मागीर उंचेल्या पांवड्याचें शिक्षण घेवपाक योग्य थारता. आनी फेल जाल्लो विद्यार्थी निरुपयोगी थारता. वसणुकवाद्यांनी अशें करप योग्य थारतालें. कित्याक, तर तांकां तांचें हांगाचें राज्य चलोवपाक योग्य लोक जाय आसताले. जे अयोग्य थारतात तांकां भायर उडयले म्हण तांचें कांयच वायट जायनासलें. पूण स्वतंत्र भारतांतूय आमी अशें करतात. हे भाशेन भारताच्या नागरिकांतलोच एक घटक अयोग्य थारावन भायर उडयल्यार आमची जापसालदारकी सोंपता काय कितें हाचेर विचार करपाक जाय.

'पास' / 'फेल' शिक्को मारपी आमची शिक्षण प्रणाली विज्ञानाच्या शिक्षणांतूय आमी हाडल्या. खरें पळेल्यार विज्ञानाचें शिक्षण प्रयोगांचेर आधारिल्लें आसता. आमचे शिक्षण पद्धतींत वर्सा अखेर एक दोन प्रयोगांचे चांचणेच्या आधारार आमी आमच्या भावी संशोधकांचो फुडार थारायतात. ही प्रणाली पदव्युत्तर शिक्षणा मेरेन तशीच उरता. ती योग्य न्हय अशें सगले मान्यूय करतात. पूण तरी आमी ती बदलूंक पावंक नात. हाचें कारण कितें?

आमचे शिक्षण प्रणालींत तीन मुखेल पांवडे आसात. पयलो पांवडो प्रवेश घेवपाचो. दुसरो, खासा शिकोवपाची प्रक्रिया. तिसरो, चांचणी वा परिक्षा. शिक्षणाचे चार ते पांच स्तर आसात. मुळावें, माध्यमीक, उच्च माध्यमीक, प्रथम पदवी आनी पदव्युत्तर. तातुंतल्या पयल्या तीन स्तरांवेलें शिक्षण गोंयांत सगल्यांक फुकट मेळटा. निमाण्या दोन पांवड्यांवेलें शिक्षणूय आयज गोंयकारांच्या दारा मेरेन पावलां. ताचे खातीर आमकां मैल मैल चलत वा गोंयां भायर वचून रावपाची गरज पडना ही एक खूब बरी गजाल. पूण खंतिची गजाल म्हळ्यार भारताच्या वातावरणाक, ताचे भलायकेक जे पद्धतिचें शिक्षण ताच्या नागरिकांक मेळपाक जाय आशिल्लें तें ताका मेळना.

खंयच्याय देशाचे उदरगतीक चालना मेळपाक त्या देशांत निर्माण जावपी गिन्यानाच्यो शिमो विस्तृत जायत वचूंक जाय. त्यो भारतांत जातात व्हय? भारतांत जायत्यो संशोधन संस्था आसात. तातूंत काम करपी संशोधकांची एक व्हडली फौज भारतांत आसा. संख्येच्या मानान आमी दुसऱ्या खंयच्याय देशा परस फाटीं नात. इतलें आसुनूय 'हें संशोधन भारतांतल्यानच पयलें फावट भायर सरलां' अशें म्हणपासारकें कसलेंच गिन्यान दिसना. आधुनीक विज्ञानाचें मार्गदर्शन घेवपाक आमकां आयजय पाश्चात्य देशां कडेन पळोवचें पडटा. ज्या देशाक स्वातंत्र्य मेळून पन्नास वर्सां जावन गेलीं त्या देशांत विज्ञानांत नवें कितेंच भायर सरना ही नामुष्किची गजाल म्हणची पडली ना? कित्याक लागून हें अशें जालां?

ह्या प्रस्नाक दोन जापो आसात. एक म्हळ्यार आमच्या भुरग्यांक तांचे आवयभाशेंतल्यान शिक्षण मेळना. आनी दुसरें, संशोधनाच्या मळार ज्या प्रमाणांत हांगा मनीस वावुरपाक जाय तो आमच्या देशांत वावुरना. तो दोतोर वा इजनेर जाता. एकटो मनशाचीं इबाडलेलीं शरिरां सारकीं करता. दुसरो इबाडलेलीं यंत्रां सारकीं करता, इमारती उब्यो करता. दोगय पयशे जोडटात. पूण हे पयशे ताच्याच समाजा कडल्यान ते जोडटात. तांच्या कामाक लागून भायलो पयसो देशांत येना.

खंयचेंय शिक्षण आवयभाशेंतल्यान मेळ्ळ्यार तें भुरग्याक सारकें कळटा आनी तातूंत तो निपूण जावंक पावता हें सगळेच मान्य करतात. पूण तेच बरोबर आवयभाशेंतल्यान शिक्षण दिवपा सारकी भारतांत आयजय परिस्थिती ना अशेंय म्हणटात. म्हुण्णूच सगल्यांचो हट इंग्लिशींतल्यान शिक्षण घेवचेलो आसता. 'ही एक वास्तविकताय, तिचे कडेन फाट करूंक जायना' अशें तांचें म्हणणें. देशाक स्वातंत्र्य मेळून पन्नास वसां उलगलीं तरी ही वास्तविकताय बदलूंक ना आनी ती बदलुपाचे प्रयत्नूय जावंक नात.

हे बाबतींत युरोपांतली वास्तविकताय कितें?. नील्स बोहर (Niels Bohr) हो एक नांवाजतो भौतिकशास्त्रज्ञ. ताणें हायड्रोजन ह्या अणुचे रचनेचेर संशोधन केलें. ताका नोबेल पारितोषिकय मेळ्ळां. ताका इंग्लीश भास येनाशिल्ली. तो इंग्लिशींतल्यान शिकुंकच नाशिल्लो. व्हडांतल्या व्हड संशोधकांनीय शिक्षण इंग्लिशींतल्यान घेवंक नाशिल्लें. जर्मनी, फ्रान्स, रशिया, चीन, जपान ह्या देशांनी शिक्षण इंग्लिशींतल्यान मेळना. सगल्या देशांनी तांचेच राष्ट्रभाशेंतल्यान शिक्षण मेळटा. भारताक मात इंग्लीशीच्या आधाराची गरज कित्याक पडल्या? आमच्यो भासो विज्ञानाक उण्यो पडटात जाल्यार त्यो घटमूट करपाक त्यो भासो उलोवपी लोकांनी नेट लावपाक जाय. आमी प्रयत्न लेगीत करपाक तयार नात. हाचे इतली लजेची गजाल आनीक खंयची?

प्राथमीक थराचेर प्रवेश घेतनाच आमचीं भुरगीं दोतोर व इजनेर जावपाचीं सपनां पळयतात. खरेपणानशीं त्या भुरग्यांले आवय बापूय हीं सपनां पळोवन तीं भुरग्यांल्या दोळ्यां मुखार दवरतात आनी ताका लागून सगळींच भुरगीं फकत दोतोर वा इंजनेर जावपाक आंवडेतात. तातुंतल्या खुबश्या भुरग्यांक ती तांक आसना. तीं दोतोरकेक प्रवेश मेळना म्हणटकीर हेर शिक्षणक्रमां कडेन वतात. तातुंतलीं सगळ्यांत बरीं तीं विज्ञाना कडेन येतात. दुसऱ्या पांवड्या वेलीं वाणिज्य शाखे कडेन वतात. उरिल्लीं कला शाखे कडेन. तिनूय शाखांनी वचपी भुरगीं चड करून दुसरो कसलोच उपाय ना म्हुण्णूच ते शाखे कडेन वतात. कितेंय करून एक पदवी मेळोवची हो एकूच उद्देश. हाका लागून 'शिक्षण' हे प्रक्रियेंत कोणाकच उत्साह आसना. ही आयची स्थिती! हिवूय एक वास्तविकताय.

आमच्या प्राथमीक थरावेल्या शिक्षणांत एक म्हत्वाचो घटक ताचे अनुपस्थितींतच जाणवता. तो म्हळ्यार भुरग्यांक गरजेचें मार्गदर्शन (counselling). प्राथमीक थरार भुरग्यांचे प्रगतिचेर नदर दवरून ताच्यो

चांचण्यो (tests) घेवन ताका खंयच्या विशयांची आवड आसा, ताची कितली तांक आसा हें पळोवन ताका फाव तें मार्गदर्शन करपी एक प्रशिक्षीत मार्गदर्शक Child Counsellor आमचे खंयचेच प्राथमीक शाळेंत ना. हाका लागून भुरग्यांचे तांकिचो, ताच्या कलांचो विचारूच करनासतना शिक्षकांक आनी पालकांक भावपी विशय ताचेर आमी बळयां लादतात आनी भारताचें व्हड जावपाचें सपन ताच्या भुरगेपणांतच आमी खुटून उडयतात. आमचे शिक्षणप्रणालींत हांगाच पयलो बदल जावंक जाय - दर एके प्राथमीक शाळेंत एक प्रशिक्षीत शिशुमार्गदर्शक आसुंकूच जाय. तो ते शाळेचो हेडमास्तर जावं येता. पूण ताचें शिक्षण मानसशास्त्र विशयावेलें पदव्युत्तर थरा मेरेन जाल्लें आसुंकूच जाय. ह्या शिक्षकान शाळेंतल्या भुरग्यांच्यो चांचण्यो घेवन, तांचे प्रगतिचो नियाळ करीत तांची तांक, तांचो कल वळखुंचो. ताच्यो नोंदी करच्यो आनी ताका, ताच्या पालकांक योग्य मार्गदर्शन करचें. हे खातीर सरकारी नोकरांची जशी एक सर्व्हिस बुक आसता तसली एक प्रगती पुस्तिका जण एका भुरग्या खातीर करची. ते पुस्तिकेंत भुरग्यांचे प्रगतिच्यो नोंदी आसतल्यो आनी ती एक ताचे जल्मकुंडले भशेन ताचो फुडार थारावंक पावतली. असलो एक प्रयोग गोंयांत तरी मुजरत जावंचो.

प्राथमीक थरावेल्या विशयाचें शिक्षण फकत निसर्गाच्या निरीक्षणांत जावचें पडटलें. सवणीं, वनस्पत, मळब, प्राणी हांचें निरीक्षण, तांचे मदलो फरक, तातुंतल्या कांय देखींत कालानुरूप जावपी फरक ह्या सगल्यांचें शिक्षण फकत निरीक्षणांतल्यान दिवपाक शक्य आसा. तेच ब़रोबर आरोग्य आनी बलायकेचे धडे कांय प्रयोगां मार्फत दिवपूय शक्य आसा.

पांचवे उपरांतच्या वर्सांत आपणें केल्ल्या निरीक्षणांच्यो आपल्याच उतरांनी नोंदी करपाचें शिक्षण दिवं येता. ते मेरेन अक्षरांची वळख जाल्ली आसता. आनी हें करता आसतनाच तांच्यो चाचण्यो जावंक शकतात. ह्या चांचण्यांक लागून शिक्षकांक भुरग्यान केल्ल्या अभ्यासांतले प्रगतिचो नियाळ मेळपाक जाय. एकेच निमाणे परिक्षेंत 'योग्य', 'अयोग्य' निकाल लावचे परस अशा ल्हान ल्हान चडशा चांचण्यांनीच भुरग्यांचे प्रगतिचो मार्ग कळटा. ह्या चांचण्यांतल्यान भायर सरिल्ल्या निष्कर्षांची ताचे 'प्रगती पुस्तिकें'त नोंद जाली जाल्यार ताचो उपयोग ताची त्या त्या विषयांतली गती लक्षांत येवंक वा मुखावेल्या शिक्षणाचें मळ वेंचूक जावंक शकता.

'प्रॉजेक्ट' वा ल्हान स्तरा वेले 'प्रकल्प' विज्ञानाच्या शिक्षणांत खूब गरजेचे. हे ल्हान प्रकल्प गृहपाठांच्या रुपान येवपाक जाय. म्हणटकीर ताका घराकडेनच, जंय चड मेकळो वेळ मेळटा, थंय विज्ञानाचें शिक्षण आपल्या प्रयत्नांतल्यान मेळोवपाची संद मेळटा. 'प्रकल्प' हो एक स्वयंप्रेरीत अभ्यासाचो वावर. थंय भुरग्याक पालक आनी शिक्षक हांचो फकत गरज उप्रासता थंय आधार मेळपाक जाय. आपल्या प्रस्नांच्यो जापो आपणेंच सोदून काडपाचें वळण भुरग्याक ल्हानपणा सावन पडुंकूच जाय. विज्ञानाच्या शिक्षणाची आवड निर्माण करपा खातीर हें भोव गरजेचें.

अभ्यासक्रमांतलो वार्षिक दर्जो वाडलो ना जाल्यार शिक्षणांतलीं आव्हानां सोंपतलीं. पूण हो दर्जो वाडटकीर पयलो विरोध जाता तो शिक्षकांचो आनी मागीर पालकांचो. आपल्या भुरग्यांक हो अभ्यासक्रम पेलचोना अशें तांकां पयलीं दिसता. पूण जल्माक येत सावन आव्हानां पेलपाची संवंय आशिल्लें भुरगें शाळा कॉलेजांनी पावतकीर आव्हानां पेलपाक कित्याक उणें पडटलें? जल्माक आयिल्लें भुरगें श्वास घेवपाचें आव्हान आपले आपुणूच पेलता. उमथें पडपाचें, दिमखुन्यांनी वचपाचें, उठून उबें रावपाचें, चलपाचें, कठीण कठीण उतरां उच्चारपाचें आव्हानूय तेंच पेलता. पूण हेंच भुरगें समजूंक लागतकीर 'भंय' हो एक विकार पयलीं आपल्या पालकां कडल्यान आनी मागीर शिक्षकां कडल्यान शिकता. आनी हो विकार मागीर सगल्या वाठारांनी ताका घेरून उडयता. नापास जावपाचो भंय, 'आपल्या कडल्यान हें जावचें ना' हो भंय, 'हेरां मुखार आपलें हांशें जातलें' हो भंय - हे सगळे भंय ताका खंयच आत्मविस्वासान फुडें सरपाक दिनात आनी ज्या शिक्षणान ताका तो आत्मविस्वास मेळपाक जाय त्या शिक्षणाच्या (आव्हानाच्या) निर्बिजीकरणान ताका तो आत्मविस्वासूच मेळना. तेन्ना ताचे मदली आव्हानां पेलपाची शक्त वांडोवपाचो एकूच उपाय म्हळ्यार, वाडट्या दर्जाचो अभ्यासक्रम आनी आव्हानां पेलपाची तांक आशिल्लो समाज जांचे घटक आसतले ताचे शिक्षक आनी पालक.

घराकडेन विज्ञान वा हेर विशयांचे 'प्रकल्प' करपाखातीर घरचें वातावरण अभ्यासू आसचें पडटा. तें सगळ्या घरांनी आसना. पूण ताकाय एक मार्ग आसा. ज्या वाठारांनी हे विद्यार्थी रावतात थंय एक ग्रामीण वा थळावें विज्ञान केंद्र जावं येता. हें केंद्र विद्यार्थ्यांक स्वयंप्रेरीत अभ्यास करपाक सुवात दितलें. हाची एक देख आसा. 'कलकत्त्याचें इंडियन असोसिएशन फॉर कल्टिवेशन ऑफ सायन्सेस. डॉ. मानवेंद्र सरकार हांणी इंग्लंडांतल्यान फॅरडे सोसायटिच्या स्वरुपाचेर ही संस्था जनते कडल्यान दानां घेवन उबी केली. तेच संस्थेंत काम करून डॉ. सी.व्ही. रामन हांणी व्हड नामना मेळयली. तसलेच तरेचीं पूण ल्हान पांवड्या वेलीं विज्ञान केंद्रा ग्रामीण वाटारांनी उबीं जावंक शकतात. पूण ते खातीर त्या वाटारांतल्या नागरिकांचो पयसो फुडें येवपाक जाय. सगलो प्रपंच तांच्याच कश्टांनी उबो रावल्यार केंद्रांचो उद्देश अदीक बरो सफळ जावंक पावतलो. ह्या केंद्रांनी प्रयोगां खातीरचीं उपकरणां, सामुग्री, रसायनां आसचीं, जांचो उपयोग त्या त्या वाटारांतल्या भुरग्यांक करपाक मेळटलो. ह्या केंद्रांनी त्या त्या वाटारांतली वैज्ञानिक म्हायतीय एकठांय जावं येता. ही म्हायती महाविद्यालयीन भुरग्यांचे मदतीन एकठांय जावंक शकता. म्हाविद्यालयांतले भुरगे तांच्या 'प्रकल्पां'च्या अभ्यासा वरवीं ही म्हायती एकठांय करून त्या त्या वाटारांतल्या केंद्रांत जमयतले. अशे तरेन हीं केंद्रां स्वयंचलित संस्था जावंक पावतलीं. म्हाविद्यालयीन विद्यार्थ्यांचे मदतीन त्या त्या वाटारांतले शिक्षक ह्या केंद्रांनी शालेय विद्यार्थ्यां खातीर गिन्यानाचीं नवीं दारां उकतीं करतले. विज्ञानाचें शिक्षण हांसत खेळत जावंक पावतलें.

'ग्लोबलायझेशन'चे प्रक्रियेंत भारताक आपलें स्थान निश्चित करपाखातीर व्हड प्रयत्नांची गरज आसा. गिन्यानाचे आघाडेचेर काम केले बगर जागतीक सर्तींत भारत तिगून उरचो ना. शिक्षणाच्या, तातुंतले तातूंत विज्ञानाच्या शिक्षणाच्या मळार नव्या संशोधनान भारताच्या योगदानाच्यो शिमो वाडयल्यो नात जाल्यार भारत आयज संवसारांत खंयच उरचो ना.स्वातंत्र्या उपरांत पन्नास वरसां उलगुनूय भारत मनान आनी गरजेन पाश्चात्य देशांचो गुलामूच उरतलो. हें अशें जावपाक फावना जाल्यार विज्ञानाच्या शिक्षणांत अमुलाग्र बदल घडून येवपाकूच जाय. शिक्षणांतल्या प्रयोगांतलें यश वीस वर्सां उपरांत दिसूं येता. पूण आमी हे दिकेन सुरवातच करिनात जाल्यार तें दिसून येवचेंच ना. नव्या सहस्त्रकाच्या हुमऱ्यार उबे आसतना तरी ही सुरवात करुंया न्हय?

***

# कोंकणींतलीं 'स्लँग' उतरां

राजय रमेश पवार

## स्लँग उतरांक हात घालचे आदीं...

**१. भास**

'भास' म्हळें की आमकां याद जातात तीं 'उतरां' आनी 'उतरां' घेवन येवपी भास फकत मनशांचीच आसूं येता. पूण भास म्हळ्यार फकत उतरांचो खेळ न्हय. 'भास' म्हळ्यार एका सजीव प्राण्यान दुसऱ्या प्राण्या लागीं केल्लो संवाद. तो मागीर उतरांचोय आसूं येता, कुरवांचोय आसूं येता. आनी म्हणुनूच 'भास' ही फकत मनशांचीच आस्पत न्हय तर ती हेर मोनजातिंचीय! मोनजाती जे तरेन आपल्यो भावना स्पश्ट करता, संवाद सादता, तीच तांची भास. देखीक, कुल्लेचें 'दांगे हालोवप', म्होंवा मुसांचें 'नाचप', गायचें 'हांबेवप', रेड्याचें 'व्होंकेवप', सुण्याचें 'भोंकप', कावळ्याचें 'रडप'... ह्योय तांच्यो 'भासो'![1] पूण साबार विविधतायो आनी खाशेलीं आंगां आशिल्ली भास मात फकत मनशाचीच. हेर खाशेल्या आंगांमदलेंच एक मुखेल आंग म्हळ्यार समाजांतल्या वेगवेगळ्या घटकांमदीं वेगवेगळे तरेन जाल्लें 'उलोवप'.

**२. समाजीक घटक आनी भाशेचें नातें**

समाजांतल्या वेगवेगळ्या घटकांमदीं भास वेगवेगळें रूप घेता आनी बदलतय वता. ऑफिसांनी आमी एके तरेन उलयतात, घरा कडेन एके तरेन उलयतात. दादले दादल्यां कडेन एके भाशेन उलयतात आनी बायलां कडेन एके भाशेन उलयतात. उरफाटेंय हेंच घडटा.भुरग्यांची, तरणाट्यांची, जाणट्यांची, दादल्यांची, बायलांची उलोवपाची वेगवेगळी तरा आसता. आवय, बापूय, भाव, भयण, इश्ट, इश्टिणी हांचे लागीं उलयतना भास वेगवेगळें रूप घेता.[2]

थोड्यांक जड अलंकारीक उतरां वापरून उलोवपाची संवंय आसता. थोडे सामके सादेपणान उलयतात. थोडे सामके आडमार (rough) उलयतात. दर एकल्याच्या सभावा प्रमाण हें उलोवप जाता. पूण कांय कडेन मुद्दाम घडयिल्ले (specially invented) भाशेंतल्यान उलोवप करचें पडटा. देखीक, मिलिट्रींत लडायेच्या वेळार बी 'गुपीत उतरां' (code words) वापरचीं पडटात. आमीय अशे तरेच्यो 'गुपीत भासो' तयार करतात. आपलें 'उलोवप' दुसऱ्यांक (तिरायतांक) समजुचें न्हय ह्या उद्देशान 'गुपीत भास' वा म्हणुंया, 'भाशीक खेळ' तयार करतात.

**३. भापमाशीक खेपमेळ !**

खुबश्या भासांनी खूब तरांच्यो 'गुपीत भासो' आसतात. इंग्लिशींत 'Pig Latin' नांवाची एक गुपीत भास आसा. ह्या भाशीक खेळांत तीन प्रकार आसात. पैकीं एका प्रकारांत उतराच्या शेवटाक 'may' हें उतर घेवन उलोवप करतात. देखीक: at आसा तें at-may जाता; eat आसा तें eat-may जाता.[3]

कोंकणींतय अशे भाशीक खेळ आसात. देखीक, 'च-कारी', 'म-कारी', 'पम-कारी' बी. पैकीं 'पम-कारी' हो भाशीक खेळ असो:

हातूंत दर एका उतराच्या पयल्या अक्षरा उपरांत 'प' आनी 'म' जोडून उतर मुखार पुराय करतात. पूण 'म'क पयल्या अक्षरांतलो 'स्वर'य जमेक घेतात. देखीक: 'तुका' चें 'तुपमूका' जाता; 'हांव'चें 'हांपमांव' जाता.

आनी अशेच तरेन 'भाशीक खेळ' हें उतर 'भापमाशीक खेपमेळ' जातलें.

ही जाली 'गुपीत भाशे'ची गजाल. उतरांची आनी वाक्प्रचारांचीय एक अशीच तरा आसता. ताका 'स्लँग' (slang) अशें म्हणटात. जीं उतरां वा वाक्प्रचार दुसऱ्याच अर्थान वापरतात तांकां 'स्लँग-उतरां' वा 'स्लँग-वाक्प्रचार' अशें म्हणटात. हीं 'स्लँग-उतरां' त्या त्या उलोवप्यांकच समजतात, कित्याक काय म्हळ्यार तीं तांच्यांनीच घडयिल्लीं (invented) आसतात. अशे तरेचीं 'स्लँग उतरां' दरेके भाशेंत आसतात. कोंकणींतय तीं आसात. हालिंच्या काळावेलीं कोंकणींतलीं स्लँग उतरां जाणून घेवपाचो हो यत्न.

**४. कोंकणी आनी स्लँग उतरां**

स्लँग उतर म्हळ्यारं वापरांतलेंच उतर दुसऱ्या खाशेल्या अर्थान वापरप वा त्या अर्था खातीर एक नवें उतर घडोवप. ह्या उतरांनी जो अर्थ त्या उलोवप्यांक गृहीत आसता, तो गुपीत (secret) दवरिल्लो आसता.

भारतभर सीख धर्मियां खातीर 'बारा बजे' हें स्लँग उतर वापरतात. हें उतर आदीं अमक्याच एका चोंब्यान तयार केले उपरांत तें त्या समाजांत, गांवांत, शारांत, राज्यांत आनी उपरांत देशभर पातळ्ळां आसपाक जाय.[4] 'बारा बजे' हें मुद्दाम घडयिल्लें नवें उतर.

पूण कांय स्लँग उतरां अशींय आसात जीं आदींच वापरांत आशिल्लीं पूण मुखार तांकां नवो अर्थ जोडून तीं स्लँग जालीं. हिंदींत 'साला' ह्या उतराचो अर्थ बायलेचो भाव (मेवणो). पूण आयज हें उतर 'मेवणो' ह्या अर्थान वापरचे बदला गाळ म्हण चड प्रमाणांत वापरतात.

## कोंकणींतलीं स्लँग उतरां[5]

गोंयांत दिसपट्टीं कितलिंशींच स्लँग उतरां आमच्या कानार सादतात. आयज नवीं नवीं स्लँग उतरांय तयार जातात. तातुंतलीं कांय 'बारा बजे' ह्या उतरा वरी स्लँग रुपांतच अमर जावन उरतात. जाल्यार कांय रोखडींच विसरायेर पडटात.

स्लँग उतरांच्यो मर्यादा: कांय कांय स्लँग उतरां दादल्यां पुरतींच मर्यादीत उरतात. कांय फकत बायलां पुरतींच मर्यादीत आसतात. थोडीं ते ते बोली वा भाशेपुरतींच मर्यादीत जातात. जाल्यार थोडीं जात, धर्म, गांव, राज्य, देश हांचे पुरतीं मर्यादीत आसतात. आनी हाकाच लागून दर एकल्याक सगलीं स्लँग उतरां खबर आसतलींच अशें म्हणूं येना. आतां मेरेन म्हज्या कानार पाविल्ल्या आनी हांवें ते विशीं योग्य ती (उपलब्ध ती) म्हायती पुंजावन समजून घेतिल्ल्या कोंकणींतल्या स्लँग उतरांची ही विस्कावणी.

एक दीस म्हाड्डोळा जात्रेक गेल्ले कडेन एक नवेंच उतर म्हज्या कानार पडलें. हांव म्हज्या इश्टां वांगडा फेरयेंत भोंवत आशिल्लों. इतल्यांत एका इश्टान दोगां तरणाट्यांक पळोवन ''एऽऽ ब्रिटीश-ब्रिटीश!'' अशें म्हळें.

बाकिच्या इश्टांक त्या उतराचो अर्थ कळ्ळो पूण हांव मात चिंतपाक पडलों.

''आरे, तुवें तांकां ब्रिटीश कित्याक म्हळें?'' म्हजो प्रस्न.

''तुका खबर ना? आरे, ते गावडे. गावड्यांक ब्रिटीश म्हणटात न्हय रे?... ताणें जाप दिली.

ताणें दिल्ले जापेवेल्यान 'गावड्यां'क ब्रिटीश (British) म्हणटात हें म्हाका समजलें. पूण तांकां कित्याखातीर ब्रिटीश म्हणटात हें मात समजूंक नाशिल्लें देखून तसो प्रस्न विचारलो. जाप दितना ताणें म्हळें, ''तांचो ड्रेस (न्हेसप) पळय मरे!... हे लोक जात्रेक-लग्नाक-फेस्ताक अशेच न्हेसून येतात. पांयांक रंगीत बूट... आंगार स्टिकरांच्यो बी जीन पेन्टी... झगझगीत बुशशर्ट... माथ्याक रंगीत कॅप... दोळ्यांक काळ्या हारशांचो गॉगल (तोय रातचो?) आनी अशे तरेन झेतान 'ब्रिटीश' जावन येवप्यांक आनीक कितें म्हणचें?...''

आनी तेन्ना सावन हांव नवीं नवीं स्लँग उतरां आयकत आयलों. तीं समजून घेतलीं. तांचे फाटली संकल्पनाय जाणून घेवपाचो यत्न केलो. त्याच म्हालवजार हो मुखावेलो अभ्यास सादर करतां.

## कोंकणींतल्या स्लँग उतरांची विस्कावणी

**आब :** अशिक्षित नायक समाजा मदीं बापाय खातीर 'आबो' हें उतर वापरांत आसा. हेर समाजांतले लोक ह्या नायक समाजांतल्या लोकांक (कुडनाटेपणान) 'आब' ह्या उतरान उल्लेखतात. ह्या समाजांतलो भुरगो भायर चार-चौगां मदीं भोंवतना हेरां भाशेन 'रितीन' वागलो जाल्यारय निमाणें 'हो आब कसो दिसना न्ही!'' असोच ताचो उल्लेख जाता.

**आवाज:** ह्या उतराचो सादो सरळ अर्थ कसलो तरी आवाज असो जाता. पूण हेंच उतर स्लँग म्हणून वापरतात तेन्ना ताचो अर्थ 'मटक्याचो नंबर' असो जाता. आयच्या मटक्याचो नंबर कितें आयला हें अशे तरेन विचारतात: 'आयज आवाज कितें रे?' हें आयकतकच तिरायताक, ते मटक्या विशीं उलयतात आसतले, हें मात लेगीत समजना.

**आंगठो:** शिक्षीत लोक कागदपत्रांचेर आपली सय करतात. पूण अशिक्षितांक ते शिकूंक नाशिल्ल्यान सय करूंक जमना. देखून ते आपलो आंगठो लायतात. हेंच मतींत घेवन अशिक्षितां खातीर 'आंगठो' हें उतर वापरतात. अशिक्षीत लोकांक 'आंगठेकार' अशेंय म्हणटात.[६]

**आंटी :** आंटी हें मूळ इंग्लीश उतर. Aunty. कोंकणींत हें उतर किरिस्तांव समाजांतल्यान रूढ जावन आयलां. आयज हें उतर स्लँग अर्थान खूब प्रमाणांत वापरतात. कोंकणींत आंटी हें उतर आंगलोटान मोठी आशिल्ले (चड करून किरिस्तांव) बायले खातीर वापरतात. म्हज्या सिटार (बसींत) एक मोठेली बायल येवन बसली ही गजाल सांगतना आमी खूब फावटी अशेंच म्हणटात: ''म्हज्या सिटार आंटी येवन बसली.''
कोंकणी भायर दुसऱ्या भासांनी बी 'आंटी' हें उतर जाणटे (केंस पिकिल्ले म्हातारे) बायले खातीर वापरतात.[७] देखीक 'गोदरेज हेअर डाय'चे जायरातींत केंस पिकिल्ले बायलेक 'आंटी' ह्या उतरानच चाळयल्या!

**आंडू :** 'भट' जातींतल्या भुरग्याक 'आंडू' अशें म्हणटात. हें उतर फकत ते जातींतल्या तरणाट्या (दादल्या भुरग्याकच) उद्देशून वापरतात. थोडे कडेन तांकां 'भटुलको' अशेंय म्हणटात. पूण 'आंडू' हें उतर 'भटां'खातीर मुद्दाम तयार केल्ल्याचें जाणवता. हें उतर कोंकणींत केन्ना आनी कशें आयलें हें कळपाक मार्ग ना.

**आंब्याताळो:** हिंदूंच्या देवकार्यांनी आंब्याच्या ताळ्याक एक खाशेली सुवात आसा. सगळ्या देवकार्यां खातीर आंब्याचो ताळो जायच पडटा. देखून आंब्याताळो नासतना खंयचेंच देवकार्य जायना. हीच गजाल मतींत धरून 'वाजता थंय नाचता' ताका 'आंब्याताळो' अशें म्हणटात. जो मनीस प्रत्येक कडेन आसता ताका 'आंब्याताळो' म्हणटात. हिंदूंच्या शास्त्रां कडेन आंब्याताळ्याचो संबंद आशिल्ल्यान हें स्लँग उतर हिंदूंमदींच घोळणुकेंत आसा.

**उजवात लावप:** 'उजवात लावप' हें तरणाट्यांमदींच सांपडटा. सिगार ओडपाचे क्रिये खातीर हें उतर स्लँग अर्थान चलणुकेंत आसा. चड प्रमाणांत तें कॉलेजींतल्या तरणाट्यां मदीं सांपडटा. तांचे मदीं उलयतना हें उतर अशे तरेन घोळटा: ''हांव उजवात लावन येतां'' (म्हळ्यार, हांव सिगार ओडून येतां), ''उजवाती हाडल्यात मरे?'' (म्हळ्यार, सिगारां हाडल्यांत मरे?)

**एक्को-थापो:** बसींतल्या सिटार, थेटरांतल्या सिटार वा आनी हेर कडेनय बसतकीच कुशीन जर चलो बसत जाल्यार 'एक्को' म्हणटात आनी जर चली बसत जाल्यार 'थापो' म्हणटात. बसींत बी चलयांचे कुशीन बसपाच्या उद्देशान कांय चले बसींत चडून एक नदर मारतात आनी जर सगळे चलेच आसत जाल्यार देंवतकीच म्हणटात, ''भितर एक्कूय थापो ना. सगळे एक्केच!''

**कदें:** हें उतर बायलां मदीं चड घोळटा. आंगलोटान मोठी आशिल्ले बायलेक 'कदें' हें उतर वापरतात. केन्ना केन्ना 'कदें' ह्या उतराचें 'कदय' हें रुपय कानार पडटा.

**कापो:** हें उतर फकत गोंयचे कोंकणींतच सांपडटा. हें उतर मुद्दाम (नवें) घडयलां. मयर वा मुसलमान धर्मांतल्या दादल्यांक हें उतर उपकारायतात. मुसलमानांचे धार्मीक रिती प्रमाण ल्हान आसतना चले-भुरग्यांच्या लिंगाचें पोंत माल्शें कापतात आनी देखुनच 'कापो' हें उतर वापरांत आयलां.

**कार्बन येवप:** एक चलो आनी एक चली (चड करून मोगी जोडपें) उलयता आसतना मदींच तिसरो येता तेन्ना 'कार्बन आयलो' अशें म्हणटात. तशेंच, एक चलो पयस आशिल्ले चलयेक पळेता तेन्ना मदींच कसलीय-कोणाचीय आडखळ येत जाल्यार 'कार्बन आयलो' अशें म्हणटात.[८]

**कुर्र:** 'कुर्र' हें उतर बेबद्यांक वा खूब सोरो पियेल्ल्यांक म्हणटात. जेन्ना पिल्लो मनीस साबुद्दी भायर पावता आनी दोळे तांबडे जावन तो लकत लकत चलता तेन्ना 'तो कुर्र जाला' अशें म्हणटात. 'कुर्र' ह्या उतराचें आनीक एक रूप 'कुरकुरीत' हेंवूय वापरांत आसा.

**कॅट करप:** कोणेंय फट मारतकीच 'कॅट केलें मरे!' अशें म्हणटात. जो सदांच फटी मारता ताका 'कॅटकार' अशेंय म्हणटात. 'कॅट करप' वा 'कॅट लावप' हीं उतरां चड प्रमाणांत तरणाट्यांमदींच सांपडटात.

**केपो:** 'केपो' हें उतर गोंयांत तितलेंशें सांपडना. पूण कारवारचे कोंकणींत भेड्ड्या मनशा खातीर तें वापरतात.

**क्रॅक:** पिशेपणां करपी मनशाखातीर हें उतर वापरतात. जो मनीस चड घयळपणां (वा पिशेपणां) करता ताका 'तो सामको क्रॅक' अशें म्हणटात.

**कॅप्टन:** 'कॅप्टन' हें इंग्लीश उतर. कॅप्टन म्हळ्यार मुखेली. घरांत मुखेली वड करून 'बापूय' आसता. त्या बापायच्या चल्या कडेन उलयतना ताचे इश्ट 'बापूय' अशें न म्हणटां 'कॅप्टन' म्हणटात. इश्ट बी घरा येतकीच ''भितर कॅप्टन बी ना मरे?'' अशें बापायक उद्देशून म्हणटात.

**कॅरमबोर्ड:** हें मूळ इंग्लीश उतर. 'कॅरम' नांवाच्या खेळांत घुलयो आनी एक टेबल आसता. त्या टेबलाक कॅरम बोर्ड म्हणटात. हो कॅरम बोर्ड सामको सुळसुळीत आसता. हीच संकल्पना लक्षांत घेवन टक्कल पडिल्ल्या दादल्यांक कॅरमबोर्ड अशें म्हणटात.

**गरोवप:** गरोवप हें उतर स्लँग अर्थान तरणाट्या चल्यां मदीं चड प्रमाणांत घोळणुकेंत आसा. 'गरोवप' हाचो मूळ अर्थ गरो घालून नुस्तें काडप. होच गर्भार्थ लक्षांत घेवन चलयांक 'पटोवपाचे' क्रियेक्य 'गरोवप' अशें म्हणटात. कॉलेजींत बी वचपी चल्याक ताचे इश्ट 'गऱ्याक फारवलां मरे' अशें विचारतात.[९]

**गाडी:** 'गाडी सांबाळप' वा 'गाडी चलोवप' हीं उतरांय कॉलेजींतल्या तरणाट्या चल्यांच्या तोंडांत चड आसतात. मोगिकेक वा गर्ल-फ्रँडाक उद्देशून 'गाडी' हें उतर वापरांत येता.

**गांधी:** गांधी हें उतर महात्मा गांधीवेल्यान आयलां. गांधीजींक टक्कल पडिल्लें. आयजय टक्कल पडिल्ल्यांक 'गांधी' ह्या स्लँग नांवान पाचारतात.

**गुड्डो:** खंयचेंय काम सोंपेपणान जावचेखातीर कांय जाण त्या त्या संबंधितांक लांच दितात वा खाशेले वळखीन आपलें काम करून घेतात, ताका 'गुड्डो लावप' हें उतर वापरतात. साबार भानगडी करून खंयचीय सुवात बळकायतात तेन्ना 'ताणें गुड्डुलसांव केलां आसतलें' अशेंय म्हणटात. 'गुड्डुलसांव' हें 'गुड्डो' ह्या उतराचेंच एक रूप.

**चमचो:** जो दुसऱ्याच्या फाटल्या-फाटल्यान करता, ताचे विशीं कोण कितें म्हणटा तें वचून ताच्या कानार घालता (आपल्या सुवार्था खातीर) ताणें सांगिल्लीं सगळीं कामां करता तसल्या मनशाक 'चमचो' अशें म्हणटात. हें उतर चडशा भासांनी सांपडटा. कोंकणींत 'चमचेपणां' हें रूप आसा जाल्यार हिन्दींत मराठींत बी 'चमचेगिरी' हें उतर चलता.[१०]

**चंद्र:** 'चंद्र' म्हळ्यार मळबांतलो चंद्रीम. चंद्रीम गोल आनी चकचकीत आसता. जाचो खड्डो (टक्कल पडिल्ली तकली) चकचकता ताका 'चंद्र' अशें उतर वापरतात.

**चार्टींगपणां:** 'चार्टींगपणां' हें 'फटींगपणां' ह्याच अर्थाचें दुसरें उतर. जो फटी मारता ताका 'चार्टींगपणां करता' अशें उतर वापरिल्ल्याचें पळोवंक मेळटा.

**चाप्टर:** हें मूळ इंग्लीश उतर आसपाक जाय. जो फटींगपणा करपांत बरोच तिजिल्लो आसता ताका 'चाप्टर' अशें म्हणटात. ल्हान भुरग्यांकय हें उतर केन्ना केन्ना तुस्त करपाच्या हेतान वापरतात. जो भुरगो आपले हुशारकायेच्या बळाचेर कोणाकच बदना ताका 'चाप्टर' अशें म्हणटात.[११]

चारशें वीस: हें उतर चडशा भारतीय भासांनी आसाच. हें खूप आदलें स्लँग उतर. 'चोरां' खातीर हें उतर वापरांत आसा.

**चिक्कू:** जो मनीस पयशे मोडूंक सोदना ताका 'चिक्कू' म्हणटात. जे सदांच दुडवां फाटल्यान नाचतात, तांकांय 'चिक्कू' म्हणटात. हे बाबतींत मुखार आशिल्ले मारवाडी जातींतल्या लोकांक (लोकांलो एक समज) 'चिक्कू-मारवाडी' म्हणटाले. आयज सगल्याच 'चिक्कू' मनशांक 'चिक्कू-मारवाडी' म्हणटात.

**चॉकप्सर:** हें उतर ड्रायव्हर-पायलट हांच्या तोंडांत चड घोळटालें. हालीं हालीं हें उतर कॉलेजींतल्या तरणाट्यां मदीं घोळणुकेंत येता. चलयांच्या कुल्यांक उद्देशून तें वापरतात.[१३]

**चाँकी:** हें उतर "sexy" दिसपी चलयां खातीर वापरतात. इंजिनियरींग कॉलेजींतल्या तरणाट्यां मदीं हें चड वापरांत आशिल्ल्याचें जाणवता.

**छक्को:** हें उतर हेर भारतीय भासांनीय सांपडटा. हिजड्यांक उद्देशून वापरतात. बायलां भशेन दिसपी, वागपी दादल्यांक उद्देशुनूय तें वापरतात.[१४]

**जगदंबा:** हें उतर बायलोच बायलां खातीर वापरतात. जी बायल स्वताचेंच खरें म्हणटा तशेंच हेर बायलांचेर शेक गाजोवंक सोदता तिका 'व्हडली ही जगदंबा' अशें म्हणटात.[१५]

**झगझग:** ज्यो चलयो चड (अती) मेकप करतात तांकां 'झगझग' म्हणटात. हें उतर कॉलेजींतल्या तरणाट्या चल्यांच्या तोंडांत चड घोळटा.

**झरो:** 'झरो' दुसऱ्यांची तान भागयता. हीच गजाल मतींत घेवन सोरेकारांनी बारां खातीर झरो हें उतर उपकरायलां. नवेंच बार जातकीच ''नवो झरो फुटला मरे!'' अशें म्हणटात. कोणाकय बारांत आफयतना ''चल यो, झऱ्यार वचून येवया'' अशेंय म्हणटात.

**झिंगामामा-झिंगामामी:** हें उतर सोरो पिवपी 'घांटी' बायलांक वापरतात. मामा-मामी हीं उतरांय अशेच तरेन 'घांटी' दादल्याक आनी बायलेक अनुक्रमान वापरतात. सोरो पितकीच तांकां 'झिंगा' हें विशेशण जोडून 'झिंगामामा' आनी 'झिंगामामी' अशें म्हणटात.[१६]

**टकफू :** जो मनीस फुकट मेळटा ताचेर नदर दवरून आसता ताका 'टकफू' म्हणटात. तशेंच, जी वस्त फुकट मेळिल्ली आसता तिकाय 'टकफू'च म्हणटात. 'टकफू' हें उतर 'फुकट' हें उतर उलटें वाचून तयार केलां.

**टणटणमारी:** जो मनीस केन्ना कशी वाट लायत हाची धडगत नासता ताका 'टणटणमारी' हें उतर उपकारायतात. तशेंच, जी वस्त वा मनीस कसल्याच उपेगाचीं नासतात तांकांय 'टणटणमारी' हेंच उतर वापरतात.

**टर्र:** जो मनीस सोरो पियेल्लो आसता ताका 'टर्र' अशें उतर वापरतात. हें उतर दादल्यांमदींच चड घोळटा.

**टांकी भरप:** सोरो पिवपाचे क्रियेक 'टांकी भरप' अशें उतर वापरतात. जो पिवन येता ताका 'टांकी फूल करून आयला' अशें म्हणटात.

**टँकर:** अती सोरो पिवप्यांक हें उतर वापरतात. तशेंच, आंगलोटान मोठी आशिल्ले बायलेकय 'टँकर' हेंच उतर उपकारायतात.

**टॉप गियर:** जो मनीस सोरो पियेल्लो आसता, ताची गाडी 'टॉप गियरां'त आसा अशें म्हणटात. पिवन आयिल्ल्या मनशाक 'आयज गाडी टॉप गियरांत रे!' अशें म्हणटात.[१७]

**डामरी:** जे चले चलयांक घेवन मजा मारपाक वतात तांकां ''खंय रे, डामरेक?'' अशें म्हणटात. चलयांवांगडा मजा मारपाचे गजालीक 'डामरी'

हें उतर वापरतात. हें उतर मुद्दाम घडयलां. चड प्रमाणांत फोंड्यां हें उतर घोळणुकेंत आसा. कॉलेजींतल्या तरणाट्यांच्या तोंडांत तें चड आसता.

**डिपार्टमेंट:** पिशेपणां करप्यांक उद्देशून हें उतर कारवारचे कोंकणींत उपकारायतात. 'सामको पिसोच मरे' ह्या उतरांच्या बदलाक ते ''सामकें डिपार्टमेंट मरे'' अशें म्हणटात.

**डी.के.:** किरिस्तांवां खातीर डी.के. (D.K.) हें उतर वापरतात. किरिस्तांव लोक दुकराचें मांस खातात देखून तांकां 'दुकर-खायरे' ह्या अर्थान 'डी.के.' अशें म्हणटात. हें उतर फकत हिंदू लोकांच्या तोंडांत घोळटा.

**डीम लायट:** 'डीम लायट' हें मूळ इंग्लीश उतर. ह्या उतराचो अर्थ जाता 'उणो उजवाड'. ही गजाल मतींत घेवन दोळ्यांनी तिरशे आशिल्ल्यांक 'डीम लायट' हें उतर उपकारायतात.

**डेक्कन क्वीन**: हेंवूय मूळ इंग्लीश उतर. हें एके रेल्वेचें नांव. हें उतर चलयांचे बाबतींतच चड वापरतात. जी चली चड फास्ट चलता वा तुरतुरीत चलत वता, तिका 'डेक्कन क्वीन' अशें म्हणटात. तशेंच, जी चली उलयतना फास्ट उलयता वा उलयत रावता, तिकाय डेक्कन क्वीन अशें म्हणटात.[१८]

**तांबडी इंग्लीश:** जांची इंग्लीश तोडकी-मोडकी आसता, वा जांकां सारकी इंग्लीश उलोवंक येना, तांचे इंग्लीशीक 'तांबडी इंग्लीश' म्हणटात.

**तांबडो:** सोरो पियेल्ल्या मनशाक 'तांबडो' उतर वापरतात. सोरो पियेतकीच मनशाचे दोळे बी तांबडे जातात देखून हें उतर वापरांत आयलां जावंक जाय. काणकोणांत हें उतर चड घोळटा.

**तिकेट काडप:** मनीस मरतकीच 'ताणें तिकेट काडली' अशें म्हणटात. चड पयस वचपाचें आसता तेन्ना आदींच तिकेट काडची पडटा. देखून 'वयर' (देवाघरा) वचपाच्या प्रवासाची 'ताणें तिकेट काडल्या' ह्या अर्थान तें वापरतात. जे कोण गाडयो फास्ट स्पिडीन चलयतात तांकां ''कितें, तिकेट काडल्या रे?'' अशें विचारतात.

**तीर्थ:** तीर्थ हें उतर तरणाट्यां मदीं चड वापरतात. सोऱ्याक code word 'गुपीत उतर' ह्या अर्थान ''तीर्थ घेतलें?'', ''तीर्थ घेवपाक या'', ''तीर्थ घेवन यो'' अशीं उतरां वापरतात.

**दमट:** जो सोरो पिवन आयिल्लो आसता ताका 'दमट' जाला अशें म्हणटात. तरणाट्यां मदीं हें उतर खूब घोळटा. फोंड्यां हें उतर सर्रासपणान वापरतात.जो सदांच सोरो पिवपी आसता ताका ''तो सदांच दमटी'' अशें म्हणटात.

**देड फूट:** 'देड फूट' हें उतर उंचायेन साप्प कमी आशिल्ल्या मनशांखातीर वापरतात. 'फूट' हें मेजपाचें एक प्रमाण. तें सुमार हाताच्या कोपरां कडल्यान हाताच्या बोटांमेरेन इतलें आसता. देखून सामके मोटवे आशिल्ल्यांक 'देडफूट' अशें म्हणटात.

**देवूळ:** सोऱ्याच्या बार्राक उद्देशून हें उतर वापरतात. आदीं स्पस्ट केल्ल्या 'तीर्थ' उतरालागीं 'देवूळ' उतराचें नातें आसा. देवळांत तीर्थ मेळटा ह्या अर्थाक धरून हीं दोनूय उतरां घडयल्यांत. बार्राक जर 'शंकर बार' वा 'लक्ष्मी बार' अशीं नांवां आसत जाल्यार 'शंकराच्या देवळांत' आनी 'लक्ष्मीच्या देवळांत' अशे शब्दप्रयोग करतात.

**नटी:** जी चली चल्यां फाटल्यान नाचता वा खुबशा चल्यां वांगडा मोगाचीं नाटकां करता तिका 'नटी' म्हणटात. तशेंच, शिंदळ चलयेकय 'न[illegible]' [illegible] उतर उपकारायतात.[१९]

**नळ:** चारचौगां मदीं वावुरतना 'मुतपाक या' अशें म्हणपाक बरें [illegible] देखून ''चल, नळार वचून येवया'' अशें म्हणटात. थोडे कडेन ''[illegible] उदक आयलां जाल्यार पळोवया'' अशेंय म्हणटात.

**नाडीझींग:** गांवांनी हें उतर चड सांपडटा. 'नाडीझिंग' हें उतर [illegible] घडयलां. जो मनीस नाका जाल्ल्यो (बायलां विशिंच्यो) भानगडी कर[illegible] 'नाडीझिंग' अशें म्हणटात. कोंकणींत 'नाड' हें उतर वापरांत आसा. [illegible] म्हळ्यार 'पाडेपणां'. 'नाड-बुद्दी' म्हळ्यार फटींगपणाची वा पाडी[illegible] 'नाडप' हें उपरांत आयिल्लें उतर. ह्या उतराचो आदार घेवन, साबार [illegible] भानगडी करपी मनशाक 'नाडीझिंग' हें उतर उपकारायलां.[२०]

**पचर:** मुखावयले दांत नाशिल्ल्याक 'पचर' अशें म्हणटात. मुखावय[illegible] नाशिल्ल्यान उलोवप खंयचे खंय जाता देखून 'पचपच' आनी 'पच[illegible] ह्या उतरांचो संबंद आसुंयेता असो दुबाव येता.

**पटेकार:** जो उठसूठ बंडलां (फटी) मारता ताका 'पटेकार' हें उतर वाप[illegible] फटी मारप हाका 'पटे फोडप' अशेंय म्हणटात. हें उतर गांवांनी चड सां[illegible]

**पंढरपूरचो विठोबा:** रंगान काळो आशिल्ल्या मनशाक 'पंढरपूरचो वि[illegible] हें उतर उपकरायतात. पंढरपूरचो विठोबा रंगान काळो आशिल्ल[illegible] उतर उपकरायतात. काणकोणांतल्या गांवांनी तें कानार पडटा. बाय[illegible] तोंडांत तें चड घोळटा.

**पात्र**: जो कसल्याच उपेगाचो नासता ताका 'पात्र' अशें म्हणटात. [illegible] हाचो खरो अर्थ जो 'लायक आसा' तो. पूण हें उतर हांगा विरुद्ध [illegible] वापरलां. जो कसल्याच उपेगाचो नासता ताका 'सामकें पात्र मरे!' [illegible] म्हणटात.[२१]

**पीस** (Piece): हें इंग्लीश उतर, पूण कोंकणींत खूब रूढ जालां. 'श[illegible]चो पीस', 'पॅन्टिचो पीस' हे खातीर तें खूब वापरांत येता. स्लँग अर्थान हे[illegible] सोबीत चलये खातीर वा आपले मोगिके खातीर वापरतात. सोबीत [illegible] दिसत जाल्यार 'तो पीस सॉलीड आसा' अशें म्हणटात. तशेंच, मोके[illegible] खातीर 'हो म्हजो पीस' अशेंय म्हणटात.

**पेज:** जो एकदां उलोवंक लागतकीच बेगीन थांबना, वा जाका उ[illegible] लागतकीच थांब म्हणचें पडटा, ताका 'पेज' हें उतर वापरतात. 'पेज [illegible] रकता' वा 'पेज कशी वोतता' हे वाक्प्रचारय चड प्रमाणांत घोळटात. पे[illegible] एक जेवणाचो पदार्थ आनी रांदपाक दवरतकीच तो पातळ जाल्ल्या का[illegible] वोतत रावता. हाचेवेल्यान हें उतर स्लँग उतर घडलां.

**पेट्रोल:** सोऱ्या खातीर हें उतर वापरतात. आपली टांकी भरप ह्या अ[illegible] पेट्रोल हें उतर उपकरायतात. दुसऱ्याक सोरो पिवंक आफयतना यो[illegible] पेट्रोलाक वचून येवंया' अशें म्हणटात. ह्या उतराक धरून बार्रां खात[illegible] 'पेट्रोल पंप' अशेंय स्लँग उतर वापरांत येता.

**पोस्टर:** जे दिसपाक तोंडा-रुपान विद्रूप आसतात, वा तितले खास दि[illegible] तांकां 'पोस्टर' अशें म्हणटात. हें उतर तरणाट्यां मदीं चड वापरांत [illegible]

**फास्की:** हें उतर तरणाट्यां मदींच चड घोळटा. आपले मोगिकेक उद्दे[illegible] उतर वापरतात. ती आपली मोगिका अशें सांगपाचें आसता तेन्ना 'ती [illegible]

ास्की' अशें म्हणटात.[२२]

**ाफरकीं:** ज्यो चलयो मेक-अप बी करून ओगीच मुरगट्टात, तांकां 'फिरकीं' 'उतर वापरतात. पूण हें उतर फकत गावडे, नायक समाजांतल्या चलयां ख़ातीर वापरतात. जात्रांनी बी तांचो चोंबो हांसत-खिदळत येतना 'फिरकीं ायलीं रे' अशें म्हणटात.

**फ़ुकणी:** फोंड्यांतल्या कांय गांवांनी (म्हाड्डोळ, मडकयं, करंजाळ, दुर्भाट ी) हें उतर चड आयकूंक मेळटा. पयशे लावन खेळटल्या इस्पिकांच्या वेळाक 'फुकणी' अशें म्हणटात. पयशे लावन इस्पिकांनी खेळपाक ापयतना 'फुकणेक यो मरे' अशें म्हणटात.

**फ़ुलू:** जी बायल दादल्यां वांगडा चड रमता तिका 'फुलू' अशें म्हणटात. बुबशा नाटकांनी अशा सभावाच्या स्त्री-पात्रांक 'फुलू' हेंच नांव आसता.

**फ़टेकार:** महाराष्ट्रांतल्या दादल्यां खातीर हें उतर उपकारायतात. महाराष्ट्रांत दादले तकलेक फेटो बांदतात देखून हें उतर वापरतात.

**फ़रीबोट:** हें उतर आंगलोटान मोठी आशिल्ले बायले खातीर वापरतात. फ़रीबोटिचो आकार रुंद आसता हे गजालीक लागून तसल्या बायलांक फेरीबोट' म्हणटात.

**बम्पर:** चल्यांच्या थानांक उद्देशून हें उतर वापरतात. कॉलेजींतल्या तरणाट्यां चल्यां मदीं हें उतर चड सांपडटा.[२३]

**बरी गोष्ट:** सोन्याचे बाबतींत हें उतर चड वापरतात. सोरो पिल्ल्या मनशाक, 'कितें, बरी गोष्टरे?' अशें म्हणटात. फोंड्यां हें उतर हालीं हालीं घोळपाक लागलां.

**बल्ल:** बल्ल ह्या उतराचो खरो अर्थ ड्रम असो जाता. रस्त्याच्या कामा खातीर डामराचीं जीं ड्रमां हाडटात, त्या ड्रमांक कोंकणींत 'बल्ल' हें उतर वापरतात. तें खूब रुंद आसता. देखून आंगान मोठे आशिल्ल्यांक 'बल्ल' अशें म्हणटात. कांय कडेन बेबद्यां खातीरय हेंच उतर वापरतात.

**बाउन्सर:** जी गजाल समजली ना तिका 'बाउन्सर' हें उतर वापरतात. परिक्षेक बी ज्या प्रस्नांच्यो जापो येनात त्या प्रस्नांकय 'बाउन्सर' हेंच उतर उपकारायतात.[२४]

**बाजार:** मटक्याच्या जुगाराक (तशेंच मटक्याच्या नंबराक) 'बाजार' हें उतर वापरतात. 'आयज मटको बंद' अशें सांगपाचें आसता तेन्ना 'आयज बाजार बंद' अशें म्हणटात. तशेंच, 'आयज नंबर कितलो आयलो?' अशें विचारतनाय 'आयज बाजार कितें?' अशें विचारतात. मटको खेळप्यां मदींच हें उतर चड आयकूंक मेळटा.

**बाण:** अती सोरो पिल्ल्यांक 'बाण जाला' अशें म्हणटात. (उच्चारतना तें 'बाऽऽण जाला' अशें उच्चारतात.) थोडे कडेन 'बाणासूर' अशेंय म्हणटात.

**बाप्पा शिवराक:** कसलेंच वायट वेसन नाशिल्ल्या साद्या-भोळ्या मनशाक 'बाप्पा शिवराक' म्हणटात. साद्या-भोळ्या जाणटेल्या मनशांक 'बाप्पा' अशें म्हणटात. पिकनिकेक बी वतकीच बोवाळ न घालतां ओगी बसपी भुरग्यांकय 'बाप्पा शिवराक' अशें म्हणटात.

**बायणाकान्न:** हें उतर दादल्यांच्या तोंडांतच चड घोळटा. पूण तें बायलांक उद्देशून वापरिल्लें आसता. जी बायल शिंदळपणां करता तिका 'बायणाकान्न' अशें म्हणटात. 'बायणा' ही शिंदळके खातीर कुप्रसिद्ध जाल्ली वास्कोंतली एक सुवात. होच अर्थ गृहीत धरून वेलें उतर त्या अर्थान वापरतात.

**ब्रिटीश:** हें उतर गावड्यां खातीर वापरतात. खंयच्याय सामाजीक उत्सवांनी ते रंगीत कपडे न्हेसून, तरांतरांच्यो मोदी करून, दोळ्यांक गॉगल बी लावन झेतान वतात. देखून अशे तरेन झेतान नटून येतल्यांक 'ब्रिटीश' म्हणटात.

**बुलबूल:** जो दादलो बायलां भशेन चलता, बायलां भशेन मोडत मोडत उलयता ताका बुलबूल म्हणटात.[२५]

**भानगड:** भानगड करप म्हळ्यार कसलीच जाग माग न दाखयतां आपल्या फायद्याची गजाल करप. पूण हेंच उतर जेन्ना 'स्लँग' म्हण वापरतात तेन्ना तें मोगाच्या प्रकरणां खातीरच चड वापरतात. कोणय मोगांत पडला अशें समजतकीच 'तुजी कितें तरी भानगड आसा अशें आयकलां मरे!' अशें म्हणटात.

**भिकणांकार:** भिकणांकार हाचो सादो सरळ अर्थ जो भिकणां विकता तो. पूण जेन्ना हें उतर स्लँग म्हूण वापरतात तेन्ना ताचो अर्थ 'भायलो' (घांटी) असो जाता. बेळगांव, महाराष्ट्र सारकेल्या सुवातांनी भिकणां रोवप हो थोड्यांचो वेवसाय. तशेंच, गोंयांत बसस्टँडांनी भिकणां विकपी लोक गोंयां भायले आसतात. देखून हें उतर त्या अर्थान वापरतात आसपाक जाय.

**भिंडां फोडप:** जो मनीस बंडलां (फटी) मारता ताका 'भिंडां फोडटा' अशें म्हणटात. हें उतर दादल्यांमदींच चड आयकूंक मेळटा.

**भेळू:** जाका कसलेंच काम करूंक जमना वा कळना, तशेंच, जाका न्यूनगंड आसता आनी कसल्याच कामांत वा खेळांत रस नासता ताका 'भेळू' म्हणटात.

**माड:** हें स्लँग म्हूण दोन तरांनी वापरतात. एक, लांब मनशाक 'माड' म्हणटात. दुसरें, जे माडाचो सोरो पियेवन येतात तांकांय 'माड' अशें म्हणटात. वाक्याचो संदर्भ घेतल्यार उतर खंयच्या अर्थान वापरलां हें समजता. देखीक, 'तो सदांच माड जाता' म्हळ्यार, तो सदांच माडाचो सोरो पिता. 'तो सामको माड कसो' म्हळ्यार तो सामको माडायेदो लांब आसा.

**मामा-मामी:** रस्त्यांचेर काम करपी, आयदनां विकपी, कपडे विकपी, भाजी विकपी 'घांटी' लोकां खातीर 'मामा', 'मामी' हीं उतरां वापरतात. दादल्यांक 'मामा' आनी बायलेक 'मामी' अशें म्हणटात.

**मॅडम:** हें उतर बायलोच बायलां खातीर वापरतात. मॅडम हें मूळ इंग्लीश उतर. दादल्यांक मान दितना जशे 'सर' म्हणटात, तशें बायलांक 'मॅडम' हें उतर वापरतात. पूण कोंकणींत स्लँग म्हण हें उतर वापरतात तेन्ना ताचो अर्थ वेगळो जाता. जी बायल स्वताक खूब व्हड (ग्रेट) समजता, तशेंच, जी बायल आपल्याक सगळें कळटा अशे तरेन वागता, तिका 'मॅडम' अशें म्हणटात. देखून दुसऱ्यो बायलो ते बायलेक 'व्हडली ही मॅडम' अशें म्हणटात. थोडे कडेन त्याच अर्थान 'व्हडली ही हेडबाई!' अशेंय म्हणटात.

**येस् सर:** गावड्यांक उद्देशून 'येस् सर' हें उतर हालींच फोंड्यांत वापरांत येवपाक लागलां. गावड्यांक 'ब्रिटीश' अशें म्हणटात देखून 'ब्रिटीश' येतकच तांकां 'येस् सर' म्हणटात.

**याक्क्:** हें उतरय हालीं हालींच रूप घेवंक लागलां. जो चलो वा चली दिसपाक विद्रूप आसता, तशेंच जे रंगान काळे आसतात, तांकां 'याक्क्' हें उतर वापरूंक सुरवात जाल्या.[२६]

**येण्णें:** कारवारी कोंकणींत हें उतर बेबद्यां खातीर वापरतात. कारवारच्या दादल्यांच्या तोंडांत सोऱ्या खातीर 'येण्णें' हें उतर घोळटा.

**रंगिला:** हालीं हालीं हें उतर फोंडेंच्या बसस्टँडार आयकूंक मेळटा. संत्रां विकपी भुरगे 'संत्री-संत्री' अशें न म्हणटां 'रंगिला-रंगिला' अशें आड्डतात.[२७]

**राष्ट्रमत:** जो मनीस (दादलो वा बायल) कोणागेर कितें कितें घडलां तें दुसऱ्यांक सांगत भोंवता ताका 'राष्ट्रमत' हें उतर वापरतात. 'राष्ट्रमत' हें गोंयच्या एका दिसाळ्याचें नांव, देखून ह्या उतराक तशें स्लँग रूप दिलां.

**रेल्वे:** सिगार ओडपी तरणाट्यां मदीं हें उतर चड घोळटा. दुसऱ्याक सिगार ओडूंक आपयतना ते 'रेल्वेन येता' अशें विचारतात. रेल्वे धुंवर सोडटा आनी सिगार ओडटनाय धुंवर येता ह्या सारकेपणाक लागून 'रेल्वे' हें उतर सिगरेटी खातीर वापरतात.

**लफडें:** हें उतर 'भानगड' ह्या उतराच्याच अर्थान मोगाच्या प्रकरणा खातीर वापरतात.

**लंका पेटोवप:** कॉलेजींतल्या तरणाट्यां मदीं हें उतर चड आयकूंक मेळटा. 'सिगार ओडपाक या' अशें म्हणनासतना ते 'लंका पेटोवंक या' अशें म्हणटात. 'लंका पेटोवप' हें उतर सिगार ओडपाचे क्रिये खातीर वापरतात.

**लायसन होल्डर:** 'लायसन' म्हळ्यार मान्यताय पत्र. लायसन-होल्डर म्हळ्यार जाचे लागीं लायसन आसा तो. पूण हें उतर तरणाट्यां मदीं 'स्लँग' म्हण वापरतात. त्या अर्था प्रमाण 'लायसन होल्डर' म्हळ्यार लग्न जाल्ली वा गळ्यांत मंगळसूत्र आशिल्ली बायल. एके चलये कडेन सूत जमोवपाचें वा मोग करपाचो आसता पूण ती आदींच लग्न जाल्ली आसल्यार तिच्या गळ्यांतलें मंगळसूत्र पळोवन तिका 'लायसन होल्डर' अशें म्हणटात.

**वाऱ्यार आसप:** हें उतर दोन तरांनी वापरतात. पिल्लो मनीस रस्त्यान चलत वतना लकता तेन्ना ताका 'तो वाऱ्यार आसा' अशें म्हणटात. तशेंच, जे कोण स्कूटर वा मोटार-सायकली फास्ट स्पिडीर व्हरतात तांकांय 'ते वाऱ्यार आसात' अशें म्हणटात.

**शिपणेक वचप:** हें उतर फकत तरणाट्यांमदींच सांपडटा. चारचौग जाण कुशीक आसतना 'मुतपाक वतां' अशें म्हणपाक बरें दिसना, तेन्ना 'शिपणेक वतां' अशें म्हणटात.

**शेंतां कातरप:** हें उतर काणकोणांत चड सांपडटा. जो फटाशो मारता ताका 'शेंतां कातरता' अशें म्हणटात. जो मनीस फटी मारपाक आयकना ताका 'तो शेंतां कातरूंक आयकना' अशें म्हणटात.[२८]

**सखाराम:** आर्.टी.ओ (R.T.O. - Road Tax Officer) क उद्देशून हें उतर वापरतात. हें उतर चडशें बस, पिकप, ट्रक चलोवपी ड्रायव्हरां मदीं सांपडटा. वाटेर आर्.टी.ओ. आसा हें सांगतना ते दुसऱ्या ड्रायव्हरांक 'सखाराम आसा' अशें सांगतात.

**सर्वे करप:** जो मनीस पिवन लकत लकत वता ताका 'सर्वे करता' अशें म्हणटात.

**साडे आठ:** हें उतर मडगांवां चड प्रमाणांत आयकूंक मेळटा. जो मनीस नाका जाल्लीं पिशेपणां करता ताका 'तो मात्सो साडे आठ' अशें म्हणटात. तरणाट्यांमदीं हें उतर चड प्रमाणांत घोळटा.

**सातको:** हें उतर खूब तेंपा सावन चलत आयलां. जो मनीस एका पांयान लंगडो आसता ताका 'सातको' म्हणटात. इंग्लीश सात ह्या आंकड्याचो एक पांय वांकडो आसता देखून हें उतर त्या अर्थान वापरतात आसपाक जाय.

**सुरसुरीं-रें:** हें उतर तरणाट्या चल्यांमदींच सांपडटा. 'चालू' चलयांक उद्देशून हें उतर वापरतात.

**सुळसुळीत:** जाका फाटींफुडें विचारपी-पाचारपी कोण नासता ताका 'सुळसुळीत' हें उतर वापरतात. तसल्या मनशान तवनासपणां बी करतकीच 'ताका तवनासपणां करूंक कितें जालां, तो सामको सुळसुळीत' अशें म्हणटात तें त्याच अर्थान.

**सारोप:** हें उतर बेबद्यां खातीर वापरतात. मडगांवांत 'सोरोप' हें उतर चड प्रमाणांत घोळणुकेंत आसा.

**हिटलर:** जाचो बापूय घरांत खूब कडक रावता, तशेंच कसलेंय काम करपाक वतना ताची मान्यताय घेवची पडटा, त्या बापायक उद्देशून 'हिटलर' हें उतर वापरतात. तसल्या बापायच्या चल्याचे इश्ट बी येत जाल्यार ते आदींच चल्याक विचारतात, ''हिटलर बी ना मरे ?!''[२९]

**हिंकां:** गावड्यांक उद्देशून 'हिंकां' हें उतर वापरतात. गावडी बोलयेंत, 'हाका-ताका' ह्या उतराक 'हिंकां-तिंकां' अशें म्हणटात. देखून गावड्यां खातीर 'हिंकां' हें उतर स्लँग म्हण वापरतात.

**हँडबॅग:** फोंड्यां, मडगांवां हें उतर तरणाट्यांच्या तोंडांत चड घोळटा. हँडबॅग हें उतर मोगिके खातीर वापरतात. हें उतर चड प्रमाणांत कॉलेजींतल्या तरणाट्यां मदीं वापरांत आसता.

## सोंपयतना

हीं सगळीं स्लँग उतरां हालिंच्या वर्सांतलीं. हातुंतलीं सगलींच उतरां हे मुखारय तशींच उरचिंनात. थोडीं उरतलीं, थोडीं ना जातलीं जाल्यार थोडीं गरजेचीं उतरां जावंक पावतलीं. कांय कांय स्लँग उतरांक मुखार regular उतरां म्हण मानून घेतिल्ल्याच्यो देखी हेर भासांनीय सांपडटात. देखीक, इंग्लिशींत Hippie आनी pot हे सारकीं उतरां आयज स्लँग उरूंक नात. तशेंच, telephone खातीर phone आनी टेलिविजन खातीर T.V. हीं उतरां आयज स्लँग तर उरूंक नात, वेल्यान तीं एका काळार स्लँग आशिल्लीं हें खरें लेगीत दिसना.[३०]

स्लँग उतरांचो उपेग औपचारीक प्रसंगांनी टाळटात. पूण दिसपट्ट्या उलोवपांत मात तांचो व्हडा प्रमाणांत उपेग करतात. स्लँग उतर म्हळ्यार वेगळें आनी regular उतर म्हळ्यार वेगळें. पूण तांचे मदीं अमूक अशी एक शीम घालप कठीण आसता. John S. Farmer आनी W.E. Henley हे Slang and its Analogues (1890) हातुंतय तशेंच म्हणटात: "The borderland between slang and the Queen's English is an ill-defined territory, the limits of which have never been clearly mapped out." [३१] स्लँग उतरां आनी regular उतरां मदीं शीम घालप कठीण जाता, हाचें कारण म्हळ्यार, आयचीं स्लँग उतरां फाल्यां regular जावंक शकतात. तशेंच, आयचीं regular उतरां फाल्यां स्लँग रूप घेवंक शकतात.

(एम्. ए. कोंकणी अभ्यासक्रमांतल्या 'कोंकणीचो भासविज्ञानीक अभ्यास' ह्या पेपरा खातीर केल्लो असायन्मॅन्ट.)

टीपो:

१. सरदेसाय १९९३, पान. ९

२. Lehmann 1976, Sociolinguistics - Pg. 275

३. Fromkin & Rodman 1978, Language Games - Pg. 279, 280.

४. 'बारा बजे' ह्या उतरा विशीं एक काणी सांगतात - ग्लासांत दूद घेवन वचपी शिखड्याक एकल्यान वरां विचारलीं. ताणें हात उमथो करून घडयाळ पळेलें. दूद तर रकलेंच. पूण शिखडो म्हणपाक लागलो, ''घडी में बारा तो बजे है, लेकिन मेरा एक काँटा गुम हो गया है ।''

५. 'कोंकणींतलीं स्लँग उतरां' अशें जेन्ना आमी म्हणटात तेन्ना तीं फकत कोंकणींतलींच आसपाक जाय अशें म्हणूं नज. 'भास बदलाचे' प्रक्रियेंत घडपी 'उश्ण्या वेव्हारा'क लागून इंग्लीश उतरांय नकळटां आमचे संवकळेक पडटात. 'कोंकणी स्लँग उतरां'मदींय अशींच कांय इंग्लीश उतरांय भरसल्लीं आसात.

६. कोंकणींत जशें 'आंगठेकार' हें उतर आसा, तशेंच मराठींत 'आंगठेबहाद्दूर' हें उतर आसा. हिन्दींत 'अंगूठा-छाप' म्हणटात.

७. कोंकणींत केंस पिकिल्ले (म्हातारे) बायले खातीर 'आंटी' हें इंग्लीश उतर न वापरतां 'मावशी' अशेंच म्हणटात. देखीक: बाजारांत भाजी बी विकपी जाणटे बायलेक आमी 'ओऽ मावशे ! भाजी कशी दिल्या?' अशेंच विचारतात.

८. गाड्यांक बी मंशिनां भितर 'कार्बन' येता. ताका लागून केन्ना केन्ना गाडी सारकी काम करना. घडये हीच गजाल मतींत घेवन ताका 'स्लँग' रूप दिलां आसुये.

९. गरोवणेक एक तास (दोरी) आसता आनी त्या तासाच्या उदकांत सोडपा खातीर जें पोंत आसता ताका एक हूक लायतात. नुस्त्यान लागीं येवचें आनी गऱ्याक सापडचें म्हण त्या हुकाक हांयस लायिल्लें आसता. चलयांक लागीं करूंक चले साबार उचापती करतात आनी तांकां 'गरोवंक' सोदतात. देखून 'गरोवणी' म्हणटात. हिन्दींत ह्याच आशयाचें 'डोरे डालना' हें उतर आसा.

१०. हालीं हालीं अती चमचेपणां करप्यांक 'दवलो' अशेंय म्हणटात. चमच्याचें व्हडलें रूप 'दवलो' देखून हें उतरय उपकरायतात.

११. चड प्रमाणांत हें उतर 'फटींगपणां' करप्यांखातीरच वापरतात. पुलिसेंतूय अशीं फटींगपणां करप्यांचेर 'चाप्टर केस' घालतात.

१२. न्यायालयांतले दंड संहितेक चारशें वीस (४२०) हो आंकडो चोरयेच्या प्रकरणां खातीर वापरतात. ताचे वेल्यानच ह्या उतराक (आंकड्याक) स्लँग रूप फावो जालां.

१३. 'चॉकप्सर' हें उतर मूळ इंग्लीश 'शॉक अॅब्झॉर्बर्स' ह्या उतराचें इबाडिल्लें रूप. हे शॉक अॅब्झॉर्बर्स गाडयेक फोंडकुलांतल्यान बी वतना धक्के बसपापसून वांचयतात.

१४. थोडे कडेन 'छक्को' अशें म्हणचे बदला 'Five plus one' अशेंय म्हणटात. पूण 'छक्को' हें उतर चड घोळटा.

१५. देवीचो अवतार घेवन आयिल्ली 'जगदंबा' नांवाची बायल अशीच शेक गाजोवपी आशिल्ली अशें म्हणटात.

१६. कवी र.वि. पंडितांनीय एके कवितेंत सोरो पियेवन जातकीच जाल्ले आवतिकाये खातीर 'झिंगचे झिंगय' अशीं उतरां वापरल्यांत.

१७. पणजेंत एका बार्राक लेगीत 'टॉप गिअर' हेंच नांव दिलां.

१८. 'डेक्कन क्वीन' नांवाची एक ट्रेन आसा. ती ल्हान ल्हान स्टॉपांचेर न थांबतां Express वता.

१९. आदल्या तेंपार (नाटकांतली) नटी जावप वायट मानताले. 'कलवंत' जातींतल्या नाच करपी बायलांकय 'नटी' म्हणटाले.

२०. पुंडलीक नायक हांच्या 'खण खण माती' ह्या नाटकांत खाणीवेल्या कामगारांच्या तोंडांत 'नाडीझींग' हें उतर सांपडटा.

२१. मराठींतल्या (नाटकांतल्या) 'पात्र' ह्या उतराखातीर कोंकणींत 'संवंग' हें उतर आसा. देखून 'सामकें पात्रच मरे !' ह्या वाक्प्रचारा बदला 'सामकें संवंगच मरे !' अशेंय म्हणटात.

२२. 'फास्की' ह्या उतराचो खरो अर्थ फोट्याची चौकट (photo frame). आपलो फोटो मोगिकेचे फास्केंत आसा ह्या अर्थान तें उतर 'स्लँग' जालां आसूंक जाय.

२३. गाडयेच्या 'मुखार आयिल्ल्या' भागाक 'बम्पर' अशें म्हणटात.

२४. क्रिकेटींत बोलींग करतना बॅटस्मनाचे तकले वेल्यान गेल्ल्या बोलाक 'बाउन्सर' म्हणटात.

२५. गणपत पाटील ह्या कलाकारान मराठींतल्या सिनेमांनी बायलां वांगडा भुमिका केल्ल्यो. 'बुलबूल' नांवाची भुमिका ताणें गाजयल्ली.

२६. दूरदर्शनावेले 'चंद्रकांता' हे माळेंत 'याक्क्' नांवाचें एक राक्षसी पात्र आशिल्लें.

२७. 'रंगीला' हें एका सिनेमाचें नांव.

२८. जाणटेले मनीस घरा कडेनच विडयो तयार करतात. कांय कडेन शेंतांच्या पानांच्यो विड्यो (व्हड आकाराच्यो विड्यो) तयार करतात. शेंतांच्या पानांक कुड्याचीं पानां अशेंय म्हणटात. तीं पानां कातरप सामकें सोंपें आसता. म्हणून हें उतर वेल्या अर्थान वापरतात जावंक जाय.

२९. 'हिटलर' हो इतिहासांतलो हुकूमशाये खातीर फामाद जाल्लो मनीस. ताच्या अत्याचारांक लागून सगले लोक ताका थर्त भियेताले. देखून 'हिटलर' हें उतर वेल्या अर्थान वापरूंक लागले. हें उतर चडशा भासांनी सांपडटा.

३०. Fromkin & Rodman 1978, Pg. 273.

३१. Fromkin & Rodman 1978, Pg. 272, 273.

आधारावळ:


१. सरदेसाय, माधवी. १९९३. 'भासाभास' पुस्तकांत. पानां: ९, ५१ आनी ५३.

२. Lehmann, Winfred P. 1976. Descriptive Linguistics - an introduction. Pp. 275.

३. Fromkin, Victoria & Rodman, Robert 1978. An Introduction to Language. Pp. 272, 273, 279, 280.

४. दिसपट्ट्या वेव्हारांतले हेर म्हायतिंचो आदार.



# तीर-सुवादीक कॉलम

दिलीप बोरकार

कॉलम रायटींग वा स्तंभलेखन ही एक तकलीफोड गजाल.
ती साधता ताकाच साधता अशें म्हळ्यार जाता.
साधलें जाल्यार साधलें ना जाल्यार काल्सांव आदलें तशें !
जाका हें साधना तो केन्ना तरी मदींच एक लेख फाफुडटा.
बरोच काळ वापरूंक नाशिल्ल्या पेनाचें तींत फाफुडचें तशें.
(कोंकणी लेखकां कडेन असलीं पेनां खूब आसात अशें म्हणटात)
वो लग्नाक गेल्ल्या आंकवारान हातार दवरिल्ल्यो अक्षता फाफुडच्यो तश्यो.
स्तंभलेखन करप्यान सदांच आपली नदर उकती दवरूंक जाय खंय!
कित्याक, प्रासंगीक लिखाणाक वाचकांचो डिमांड आसता.
म्हळ्यार अशें, वाजपेयीच्या धोपराचें समजा ऑपरेसांव जालें.
आतां ताच्या धोंपराचो आनी वाचकांचो कसलोच संबंद ना.
गोंय सोडल्यार हेर राज्यांत खंयच बुद्दिचो संबंद धोंपरालागीं लायनात.
लायिल्लो जाल्यार दोतोर राणावत वाजपेयीच्या धोपरा कडेन खेळचो नाशिल्लो.
धोपराचो आनी बुद्दिचो संबंद हो गोंयां पुरतोच मर्यादीत आसा
देखून कोण तरी उठ्ठा आनी दुसऱ्याची बुद्द धोंपरांत आसा म्हणटा
आनी धोंपरांत बुद्द आशिल्लो मागीर फटक् करून उसळटा.
म्हजो आनी बुद्दिचो तसो व्हडलोसो संबंद नासुंये.
आशिल्लो जाल्यार म्हज्या कॉलमांत प्रासंगीक विशय घेवंचो नाशिल्लों!
बाकिचे पळेयात कशे कोण मेलो रे मेलो, ताचेर लेख बरयतात.
कोणाचो जल्मदीस आयलो ताचें गूण गायन करतात
वो संपादक त्या विशयांचेर तांकां मुद्दाम जावन बरोवंक सांगतात.
कांय जाण आयिल्लो लेख फुडल्या सप्तकाक काडून दवरतात
आनी एखाद्रो प्रासंगीक लेख बरोवन घेवन गरम गरम छापतात.
तांकां मागीर संपादक खाशेलें मानधन बी दितात खंय !
कांय स्तंभलेखक तर लेख बरोवन दितात तेन्नाच मानधन घेतात.
मागीर तो जाय जाल्यार छाप नातर भिकणांकारांक वीक.
म्हज्या आयुश्यांत मात असलें केन्नाच घडलें ना.
मदीं म्हजी काकूट येवन लेखक संमेलनांत कोणें तरी लेख मागलो.
पत्रांत बरयल्लें लेखाचें तुमकां मानधनूय दितले.
अशें बरयतना 'फूल न्हय फुलाची पाकळी' म्हणपाची चाल आसता.
ह्या लोकांनी तशें कांय म्हणूंक नाशिल्लें म्हणटकच तें फूल आसपाचें.
म्हणचे म्हज्या कांय फुलांची वेवस्ता तातुंतल्यान जावपाची.
म्हजे सारक्यांक मानाची बी व्हडलिशी अपेक्षा नासता.
कोंकणीच्या मळार धन वो तें दिवपाचें उतर दिवपूच म्हळ्यार अप्रूप.
निदान तें पत्र तरी घरच्यांक वो इश्टांक दाखोवंक मेळटा.
लेखक संमेलन, परिशदो बी म्हळ्यार लाखांची उलाढाल.
तातूंत एखाद्र्याक असली संद मेळप म्हळ्यार सामकोच दैवी योग.
पूण म्हजे बाबतींत सदांच देव दिता आनी देंवचार नाडटा.
मान ना तो ना, उतर दिल्ले प्रमाण धनूय ना.
निदान तकालस घेवन बरयिल्लो धा पानी लेख तरी परत करचो
ताचे फाटले वटेन तीर-सुवादीक बरोवंक मेळपाचो.
पयलीं कॉम्रेड नारायण देसाय 'सोविएट युनियन' धाडटालो.
तातूंत कितें छापून येतालें तें केन्नाच हांवें वाचलें ना.
मात म्हज्या साहित्य लेखनाची प्रॅक्टीस त्या कागदांचेर खूब जाली.
ताकाच लागून हांव लेखकाचे पदवेक पावलों अशें म्हणूं येता.
नातर बापाय कडल्यान दुडू घेवन म्हाका कागदां हाडचीं पडपाचीं.
पयलींच कोंकणी म्हणटकच बापायन म्हाका धोडावपाचो सोडिल्लो.
आनी म्हजो बापूय कितें नेहरूच्या बापाय वरी दुडवांकार न्हय.
तशेंच, नेहरूक आदार दिवंक सोदपी गांधीय आमगेर नाशिल्लो
'बाबा, तूं खंयूय पत्रकार जा वो शिक्षक जावन जोड' म्हणूंक.
आमच्या सगळ्या नेहरू, गांधी, लोहियांनी आमकां कोंकणी सेवक केले.
नोकऱ्यो मात मराठीवादी कोंकणी जावंचे देखून तांकां दिल्यो.
आनी हांव हांगा स्तंभलेखनाची अक्कल नासतना कॉलम बरयतां.
अक्कल ना इतलेच खातीर म्हणटां की म्हाका विशय सुचनात.
स्तंभलेखकान प्रसंगाक सोबता तसलो स्तंभ बरोवंक जाय
म्हणटकच तो मुदयेर थीक कसो त्या काळार अचूक सोबता.
ते भायर तो वेळार संपादकाच्या हातांत पावंक जाय.
म्हाका केन्ना वेळार लेख दिवपूय आयज मेरेन जमूंक ना.
नवप्रभांत हांव धेंप्यालो मनीस म्हूण दाखोवंक कॉलम बरयतां.
संपादक बाबडो 'चातका प्रमाणें' म्हजी वाट पळयत बसता.
मागीर रागान म्हजो लेख छापी नासतना दुसरेंच कितें छापता.
ताचो पेपर आज येवपाचो आनी हांव आजून लेख दिना.
अशा वेळार ताणें आनी बाबड्यान कितें म्हूण करपाचें?
दुसरो कॉलम हांव फाटलीं दोन वर्सां जागांत बरयतां.
म्हाका तशें पळोवंक गेल्यार जगाचें व्हडलेंशें पडूंक ना.
मागीर जागाचें कितलें पडलां ताचो विचारूच न केल्लो बरो.
तरी माधवी अकलेक येवन वो भोंगूं हाचें म्हूण फोनार फोन करता.
आनी हांवूय अडोवन दाखयत, आज फाल्यां करीत लेख दितां.
मोठ्या लेखकां मदीं असो अडोवपाचो गूण आसता म्हणटात.

हांवूय दर वर्सा केन्नाय येता तसलो एक दिवाळी अंक काडटां.
ताका लागून जोडूय जाता आनी संपादकाची पदवीय मेळटा.
म्हज्या अंकाक हांव थोरांमोठ्यां कडल्यान लेख मागयतां.
मानधन दिवपाचें हांयस पत्रांतल्यान तांचे मुखार नाचयतां.
फाटल्या अंकांतल्यो जायराती मेजून लेगीत ते म्हाका लेख दिनात.
हांवूय मागीर त्या रागान तांकां मानधन केन्ना धाडीच ना.
ते लेखक म्हाका जशे अडयतात तसो हांव जागाक अडयतां.
आतांय अडोवन अडोवन हांवच थकलां आनी बरोवंक बसलां.
कॉलम म्हणटकच तो बरयले बगर म्हाका दुसरो पर्याय ना.
पूण बरोवप खंयच्या विशयाचेर होय एक मोठो प्रस्न.
जाग म्हयनाळें म्हणटकच दर म्हयन्याक हांवें बरोवंक जाय.
दरएक म्हयन्याचें तशें एक खाशेलेपण आसता.
मे म्हयनो म्हणटकच तो हालीं घटकराज्य म्हयनो थरला.
ताका लागून त्या म्हयन्याक सरकार खाशेली जायरात दिता.
जून म्हयनोय तसोच गोंय क्रांतीदिनाचो म्हयनो.
सरकार सामको उदार जावन ताचीय म्हूण एक जायरात दिता.
हो सगळो प्रकार प्रसंग पळोवन प्रासंगीक रुपान घडटा.
'हांव मात दळडिरो प्रासंगीक घडणुको किंकोंत करतां.
प्रसंग येतात तशें हांवें सूप धरिल्लें जाल्यार खंयचे खंय पावपाचों.
कला अकादेमीचो सोड कोंकणी अकादेमीचो उपाध्यक्ष जावपाचों.
तर जालां कितें तर चड शाण्यांक फातरांचें शीत.
देखून म्हळें आतां सुदारप आनी प्रसंग सोडप ना.
हो जून म्हयनो म्हणटकच पावस, गडगड बी येता.
म्हज्या कॉलमांत सैमाचें हें आगळें रूप येवं येतालें.
पूण जून म्हयनो म्हळ्यार आमकां गोंयकारांक क्रांती म्हयनो.
तोच हांव विसरलों जाल्यार हांव अराष्ट्रीय जालों.
'ना रे हांव विसरलों' अशेंय म्हणपाची माणसुकी ना.
मनोहरबाबान तर 'भावा, तुका याद आसा अठरा जून?' अशें म्हळां.
बाकीबाबान त्याय मुखार वचून 'पवित्र हो मंगळार' म्हणत
मंगळागौर पुजून दवरल्या.
हें असलें यादिंचें गांठवल आसतना विसरायेचें सवंग घेवंक मेळना.
तातूंत हो म्हयनो शणै गोंयबाबाच्या जल्मदिसाचोय.
म्हणटकच जल्मदीस व्हड काय क्रांतीदीस हें म्हजे मुखार धर्मसंकट.
शणै गोंयबाबाक विसरलों जाल्यार हांव पडमूर मनीस.
क्रांतीदीस टाळ्ळो जाल्यार सुटके झुजाऱ्यांचो दुस्मान.
दोनूय विशय घेतले जाल्यार म्हज्या वांट्याक फकत दोन पानां.
तांतलें खंयचें कोणाच्या तोंडाक पुसप तेंच कळना जालां.
तशें पळोवंक गेल्यार ह्या दोनूय विशयांचेर खूब बरोवप जालां.
शणै गोंयबाबान कोंकणी मनशाच्या कांट्यार बसून तें बरोवन घेतलां.
हांवेंय हे आर्दी नमन तुका शणै गोंयबाब म्हूण काव्य लेगीत केलां.
तें करतना शणै गोंयबाब कांट्यार बशिल्लो काय कितें खबर ना.
एकलोच पुण्य पुरूस कोणा कोणाच्या म्हूण कांट्यार बसतलो?
ह्या म्हयन्याक कोणाच्या बसता ताचेर बसूं ताणें, अशें चिंतलें.
आनी क्रांतीदिसा पुरतीच म्हाका मर्यादा घालची थारायली.
तशें पळोवंक गेल्यार अठरा जूनाचेर खूब जाणांनी बरयलां.
'नेहमीची येतो पावसाळा' तसो हो नेहमीची येतो क्रांतीदीस.
फाटलीं छप्पन्न वर्सां तो आयला आनी मुखारूय येत रावतलो.
तो येता म्हणटकच ताचेर बरयले बगर कोणाक चुकना.
आतां म्हजेंच पळयात, इतलीं वर्सां हांवें ताचेर कांयच बरोवंक ना.
हांवें बरोवंक ना म्हूण कितें बाकिचे बरोवपाचें सोडटले?
बरयतलेच कोण ना कोण आनी व्हडविकेक पावतले.
शणै गोंयबाब थोड्यांच्या कांट्यार बसला तसो लोहियाय बसला.
तोय तांचे कडल्यान दर वर्सा एक सारको बरोवन घेताच.
तें वाचून वाचून म्हाका अठरा जूनाचो प्रसंग पाठ जाला.
हांवच त्या प्रसंगाक साक्षीदार आशिल्लों अशें दिसूंक लागलां.
रातीं सपनांत लेगीत म्हाका तसलोच प्रसंग दिसलो.
जून म्हयनो जाल्ल्यान उटंगारांचो पावस पडटा.
शेतांनी बेबे ट्रॉंक ट्रॉंक करून रडत आसात.
तातुंतले कांय जाण मेरे धडेर येवन हळडुवे जाल्यात.
मनोहरराय सरदेसाय तांकां पळोवन कविता करता.
'हळडुवो ताल्ल बेबो शेता मेरेर उबो,
हांवें म्हळें, बेब्या बेब्या खंय रे तुजो भाव
उडकी मारून बेब्यान म्हळें डरांव डरांव.'
असल्या ह्या वातावरणांत लोहिया सुसेग घेवंक गोंयांत येता.
तो आयला म्हणपाची गजाल वाऱ्यावरी गोंयभर पातळटा.
तेन्ना आतां सारकीं लोकांनी झाडां मारूंक नाशिल्लीं.
दोंगर बोडके करून सगळें सपाट करूंक नाशिल्लें.
ताका लागून वारो व्हांवतना झाडांक, दोंगरांक आडखळटालो
म्हणटकच खबरूय आडखळत गेल्ल्यान थोड्याच लोकांक कळ्ळी.
तरी ती कळिल्ल्यांनी पाकल्यांक भियेनासतना मडगांवां धांव माल्ली; हड्डीं सामकीं मुखार काडीत.
मडगांवकारांचीं तसलीं हड्डीं पळोवन पाकले भियेले.
भियेल्ल्या पाकल्यांक कुशीक काडून लोहिया उलोवंक लागलो.
इतल्यान पाकल्यांनी ताका अटक करून बंदखणींत व्हेलो.
तेन्ना वतां वतां तांणी आपलें भाशण काडून कोणाक तरी दिलें.
बरोवन हाडिल्लें म्हूण बरें जालें नातर तांकां कितें सांगपाचें आशिल्लें तें कोणाक कळचें नाशिल्लें.
खरें म्हळ्यार तें कोणें वाचचें तेंय तांणी तें बरयतना थारावंक जाय आशिल्लें.
पूण बरोवपाच्या बोवाळांत आपलो वारस थारावंक तो विसरलो.
ताकाच लागून शेवटाक तें कोणें वाचलें हो सद्या प्रस्न आसा.
हांव जर थंय आशिल्लों जाल्यार हांवूच तें वाचपाचों.
निदान आयज तरी हांवें तें वाचिल्लें म्हणपाचें सांगूं येतालें.
कोणाक ना म्हणपाची कापाजदाद जावची नाशिल्ली.
म्हणिल्लें जाल्यार तूं थंय आशिल्लो, काय विचारूं येतालें.
बाबड्यांचो पेन्शनाचो प्रस्न म्हणटकच ना कोण म्हणटलो?
'मेरी भी चूप और तेरी भी चूप' हातुंतच शाणेपण.
पूण आतां ताचो फायदो कितें विचार करून?
म्हज्या नशिबांत कॉलमूच बरोवप आशिल्लें ताका लोहिया तरी बाबडो कितें करतलो?

## भारतकार

पी. एन्. शिवानन्द शेणै

भारत
मिगेली आवसू.
ती भुंयेंथाकून किरलून आयलेली
ती भूंय फुटून आयलेली
ती भुंयची हुनसाणि आशिल्ली
तोरटाणि, बुरसाणि, जिवसाणि आशिल्ली
तिगेले चेरडुपणांतुले सपनांतुलें
बावलें हांव.
हांडीर दवरून भोंवता
गींत म्होण दिता
काणि सांगून दिता
हांव तिगेले सपनांत
पूत जावन जन्मतां.
भारत
मिगेली आवसू.
सांगतां सांगतां हांव वाडून की
ती वाडून की - सपनां सगट
पोणु वताय.
सपनांचे वर्ण, बालचापल्य,
सगट ना जाताय.
हांव बावलें, तिका नाका जावन,
वाटेर पडता.
हांव, पुताकडे तिका अपुरबाय ना जाता.
भारत माका आवसू.

भारत माका घरकारणी.
ती भुंयेथाकून फुलून आयलेली
ती भुंयेंत जीवंत आशिल्ली.
ती मिगेली हुनसाणि
जीविताचे चरचर, पडपड, चकचक
सगट जीवंत तारासूची
तिगेले जीवितांत
हांव तिका घोव.
ती सकाणी उटावन
न्हावन, चांग वस्त्र न्हेसून
निडळार तीळो लावन
लळित सुभगा जावन
मुकार राबून
चांग उतर उलोवन
माका जागयता.
हांव कामार वतना
देनपारांय खाण जेवण दिवन
ती दारवट्यार
हासून राबता.
सांजे परतून येतना
ती
सांजेय फुलचें फूल जावन राबून
माजर सरी आपोणू
सूणे सरी लेंवनू
गाय सरी दूद जावनू
कोबू सरी गोड़साणि जावनू
तशी तशी ती माका
घरकारणी जाता.
भारत माका घरकारणी.
राती निदे कूडांत
मिजेकडे संपूर्ण जाता
मिजेकडे संयुक्त जाता
मिजेकडे संतृप्त जाता.
मिगेले चेरडुबाळांक जन्म दिता
भारत माका घरकारणी.

भारत माका भयणी.
ती हांव सरी
आवसूर थाकून जन्म घेत्तल्ली
आवसूले जीविताचें फल.
तिका ना कोडवाणि
तिका ना खारसाणि
तिका ना तोरटाणि
ती माका भयणी
ती मिगेले रगताची
ती मिगेले हुनसाणेची
ती मिगेले अपुरबायेची
ती वाडून वाडून येता.
ती वाडता तरी
मिगेले मनाक उजो लागता
ती घर भरता तरी
मिगेले मनांतुले उदकाक खतखता येता.
तिगेलो गळो
वरण माळे खातीर
दीग दीग जाता तरी
हांव मिगेले भयणी खातीर
भिजूड जातां.
सूर्याकय चन्द्राकय
माका भय
पक्षीकय पारव्याकय
माका भय
वारें, वोतय, गिमूय, पावसूय
मिगेले भयणीली नीद सरीय
माका भय.
कोण आसा मिगेले भयणीक
एक जीवन दिवंचाक?
कोण आसा तिका
तिगेलो जन्म फारनु व्होरनातीलो?
हांव राकून काळ्ळेले तिगेलें
सर्व फटोवन काणत्तीलो?
कोण आसा तिका घोव जावंचाक?
म्होवाळ घोव जावंचाक?
अशी अशी ती माका
भयणी जावन
मनांत अग्नि जावन
जन्मांत उष्ण जावन
गिळूंक सोणा जावन
ताळ्यार खोंबिल्लो कांटो जावन
जीब कातोरचें सत्य जावन
ती मिगेली भयणी
भारत माका भयणी.

भारत माका दंदकारणी.
ती खंयकी थाकून येता.
ती खंयची की भास उलयता
तिका खमटल्ले तेलाची घाणि
तिका बुरशेल्ले अंगवस्त्राची घाणि
तिका बेळशेल्ले खाणाची घाणि
नातिल्ल्याची ओलसाणि
तिका उपाशीं पळ्ळेलें सपन
ती माका दंदकारणी
ती येता वता.
येवन वचून भितरी
घराकडे बाकी जावंचें सग
करता, बाकी जालेलें सग
खाता, बाकी जालेलें सग
भोगीता, बाकी जालेलें सग
चीर्यांत बांदून काडता
तिका कालि ना, फाय आसा
रित्तें पोटय, घेवन
उदेवंचो सूर्य आसा
फूट उपाशी पोणू
हाड उबारलेलो दीस आसा
उष्टें घेवन खावन
पोट अर्द भोरचें
भोरनु भोरनु सोरनु वचो
जन्म आसा
भोगून भोगून ना जावंचें
जीवित आसा
चोवन चोवन पोणु वचें
सपन आसा.
दंदकारणी हें कांय नेण
ती दंद करनूच आसा
ती मिगेली दंदकारणी
भारत.

भारत माका
शेजारणी.
ती स्वर्गार थाकून येता
ती स्वर्गाचें चांगपण जाता
तिका ना घाणि, तिका ना ऊणाव
तिका नाका जावन कांय ना
ती सगट संकल्पाचें पूर्णपण
गोडसाणिचें खाण तिका
गोड गोड वर्तमान तिका
बुदवंत पूत धुवो तिका
समृद्धिची पूर्णताय तिका
ती शेजारणी
मिगेलें भारत.
हांव तिका चोवन साबाव सपन दिकतां
सपनांत ती माका आवस जाता
भयणी जाता, घरकारणी जाता
सगट सपनांची प्रतिरूपिणी जाता.

भारत
हान्नी कांय न्हय.
पुराणांत
चरित्रांत
ऐतिह्यांत
भारताक एकच रूप.
आतां मिगेले मनांत
भारताक अनेक रूप
एक हातांत मल्लट्टी घेवन
पिंजल्लें वस्त्र न्हेसून
उंचार आयललें हाडय दाकोवन
फोंडांत गेलेल्या दोळ्यांत
उमासेचो काळ्कूय जावन
भीक मागूंक राबिल्ली
ही बायल माका भारत वे?

शंबर दादल्यांले शुक्ळाची घाणीय घेवन
दादल्यान ना केलेलें
बायलपण घेवन
पिसडून पिसडून पिंजून घालेली
ही चेरडुप्राय
आनीकय सोणतिल्ली
युवति माका भारत वे?
न्हेसूंक कांय ना दिकून
न्हेसल्यारीय पांगुरल्यारीय ना जावंचें
कांय ना दिकून
नागडीच भोवंची ही म्हांतारी
मिगेलें भारत वे?

हासून येता ती
मिगेले सपनांतुली
भारत -
सरस्वती, लक्ष्मी, गोदावरी
गंगा, यमुना
तशी सगटय
हासूच्यो देवीयो -
जाल्यार रडच्यो बायलो
रडूनूच आसाय.
रडच्या देवियांले
हे भारतांत
मिगेलो जन्म.
सांगूंक मात्र एक पूत जावन -
सांगूंक मात्र एक भाव जावन -
सांगूंक मात्र एक घरकार जावन -
तशी तशी
सांगूंक मात्र
भारतकार जावन -

## मनाचे उकते वेळेर

भालचंद्र गांवकार

मनाचे उकते वेळेर
हुस्क्यां मेकळो सुस्तेतां
तेन्ना...
तूं येता
जागेपणांतलें सपनूच आसता तें !
देखून तुजें अस्तित्व हांव सांसपिना
पूण उतरांचे फास्केंत
हांव पितारतां...
तुजे रंग...
मनाचे, काळजाचे, रुपाचे...
तुज्यांतल्या 'तूं'चे !
रंग पितारतां...
... रंग पितारतां
रंगांत बुडून वतां !
कांय खिणांचो खेळ !
नदरेंतली नदर उकती करतां
तेन्ना...
तुजें अस्तित्वूच म्हेळ... म्हेळ शें जायत...
नाच जाता !
आनी जागेपणींच हांव
शाळेच्या मस्त्या वाटांनीं...
हांव सोदतां...
'ती' वाट
पूण तिचो आयज
काळो कुळकुळीत रस्तो जाला...
सामको भकास !
'म्हजो' आनी 'तुजोय'
तसोच जावंना मू?
ना जाल्यार...
आमचे वाटेक फांटे फुटलेच कशे?
कशे?

## दोन कविता

परेश नरेंद्र कामत

### चित्र

कोण भरतलो सुके मातयेंत ओलो रंग
आनी चितारतलो पांचवे नदरेची रसरशी वाट
कोण दाखयतलो दोळे भरून आयिल्लें मळब
आनी भागयतलो रुखारुखांचे तानेचो तळतळाट
कोण ओवाळटलो नव्यान मातयेक पावसाची आरत
आनी न्हिवयतलो काळजांत खतखततली
गिमाची धगधगी घुसमट...

### तुजे मायेचीं मुळां

तुज्या अस्तित्वाची
ओलसाण
झडयता म्हजेर
आशाढ-अमृत

तुजे कायेची घडण
चोयतां हांव
मातयेच्या
कणाकणांत रिगून

तुजे मायेचीं मुळां
वेंगायतात म्हाका
शिरेशिरेंत
मळब दाखयत...

## खाड

अरूण साखरदांडे

म्हाल्यान पयलेच फावट
म्हज्या खाडाक जेन्ना वाखर लायलो
तेन्ना सट्ट करून दोळ्यांतसून उदक आयलें
हांव भुरगेपण सोडूंक तयार नासलों
आनी जाण्टेपण म्हाका सोडूंक तयार नासलें.

तेन्नासावन कितले फावटीं
हांवें खाड केलें देवाक खबर
तरी अजून खाड वाडत आसा.

खुबदां खाड करिनासतना
खाड खाजयत एक दोन दीस रावलों
तिसऱ्या दिसा हारशांत पळेत जाल्यार
'चाचा फक्रुद्दीन'
चौथ्या दिसा 'म्हजो आजो'
आनी पांचव्या दिसा
'भगवान के नाम पे एक रुपैय्या दे दे बाबा' म्हणपी भिकारी.
तेन्नासावन हांव दिसपट्टो खाड करतां
पूण खाडान वाडपाचें सोडूंक ना.

मनीस मरतकच लेगीत
कांय वरां खाड वाडत आसता
अशें पयरूच खंय तरी वाचलां.

सरणार प्रेत दवरचे पयलीं
खाड करचें पडटा काय?
शास्त्र कितें म्हणटा?
पूण आतां सगळीं शास्त्रां पाळपाक
टायम तरी खंय आसा भटाक?

## चार कविता

सखाराम गो. शे. बोरकार

### एक पावस

एक पावस कृष्णाचो
एक पावस राधेचो
एक पावस कृष्णाचे
वाजत येवपी बांसरेचो !

एक पावस मळबाचो
एक पावस मातयेचो
एक पावस मातयेच्या
धुंद करपी वासाचो !

एक पावस म्हजो
एक पावस तुजो
एक पावस आमच्या
चंवरून येवपी मोगाचो !

### अंतर

तुजो हयकार, आनी
तुजो न्हयकार
हांचे मदलें अंतर
जितलें म्हजी जीण
आनी म्हजें मरण
हांचे भितर !

### गुपीत

तुजे दोळे
अथांग सागर !
वयर खळखळपी ल्हारां
आनी थाव मेळना
इतली खोलाय !

त्या दोळ्यांत
लिपलां कसलें गुपीत?
वयले वयर पळयल्यार
कसलीच लागना सुलूस.

खळखळपी ल्हारांतच
सूख मानपी हांव
कसो गो लागतलो म्हाका
तुज्या दोळ्यांतल्या
गुपिताचो थाव?

### आडखळ

जेन्ना हांव
तुजेलागीं उलयतां
सागचें आसता
खुबशें तुका
पूण उतरांखातीर
हांव आडखळटां.

# तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केन्द्र -पर्वरी प्रकाशीत 'सोद'

## संशोधनात्मक, शास्त्रीय विचार मंथन

**डॉ. तानाजी हळर्णकार**

खंयचेय भाशेच्या साहित्याचो नियाळ केलो जाल्यार तिचीं थारावीक दालनांच समृद्ध जायत गेल्लीं दिसतात. विशेश करून कविता, कथा, कादंबरी, नाटक, निबंध ह्या साहित्यप्रकारांची सगळ्या भासांनी घसघशीत निर्मिती जाल्ली पळोवंक मेळटा. संशोधनाची बसका आशिल्लें शास्त्रीय धाटणेचें साहित्य त्या मानान बरेंच उण्या प्रमाणांत निर्माण जाता. कोंकणी सारकिले नवखे भाशेंत तर अशें साहित्य साप्प उणें आसा. हाचीं मुखेल अशीं दोन कारणां दिसतात. पयले तरेचें साहित्य वाचकप्रिय साहित्य आशिल्ल्यान, अशा लोकप्रिय साहित्याक आर्थीक नदरेन प्रोत्साहन मेळटा. तितलें तें संशोधनात्मक साहित्याक मेळूंक पावना. दुसरें, शास्त्रीय बसका घेतिल्ल्या साहित्याची निर्मिती-प्रक्रिया वेगळे तरेची. तिची आपली अशी वेगळी मागणी आसता. ती पुरी करप सगळ्यांकच जमता अशें ना. दोनय तरांच्या साहित्य निर्मितिचे बाबतींत प्रतिभे-प्रतिभे भितर अंतर करूंक मेळना जालें, तरी तांच्या प्रक्रियां मदीं फरक उरता. लोकप्रिय अशें ललित साहित्य fictitious आशिल्ल्या कारणान थंय जी एके तरेची सदळसाण घेवपाची मेकळीक मेळटा तशी शास्त्रीय लिखाणांतल्या शास्त्राचे बाबतींत घेवंक मेळना. हांगा संशोधन लिखाणाची बसका जाता. बऱ्याच लेखकांचो तो सभाव नासता. कांय जाणां कडेन तशें पासियेंस नासता. कांय जाणांक तर ताची ॲलर्जीय आसता. आनी विशेश म्हळ्यार अशे निर्मिती खातीर जी खाशेली साधन सामुग्री लागता ती उबी करप लेखकाचे तांकी भायलें काम जाता.

आनी म्हणून, असो शास्त्रीय बसकेचो वावर चडसो संस्थांनी केल्लो वावर आसता. संशोधनाचें धार्जिणें आशिल्ल्यां कडसून तो थंय घडूंक पावता. **सोद** ही तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केन्द्राची अशी निर्मिती. **सोद** ह्या नांवान केन्द्रान आतां मेरेन दोन कोंकणी संशोधन पत्रिका उजवाडाक हाडल्यात. दोनूय पत्रिकांनी संशोधनात्मक अशें शास्त्रीय बसकेचें लिखाण प्रकाशीत जालां. अशेच तरेचें लिखाण फुडाराक प्रकाशीत करपाचो संस्थेन संकल्प सोडला. प्राथमीक थरा पासून पदव्युत्तर थरा मेरेन कोंकणीचो शिक्षणांत आस्पाव जाला आशिल्ल्यान अशा शास्त्रीय साहित्याची कोंकणीक सामकी गरज आसली. ती गरज 'सोदा'न बरे तरेन भागयल्या म्हणूंक जाय.

**सोदाचे** पयले पत्रिकेंत कोंकणीच्या भासविज्ञाना वयले भासविज्ञानिकांचे अभ्यासपूर्ण अशे लेख आसात. तातूंत बोली विज्ञान, प्रमाणीकरण, उतरावळ, उच्चार, रूप विज्ञान सारकिल्या भासविज्ञानाच्या (कोंकणीच्या संदर्भांतल्या) साबार घटकांचेर फा. डॉ. प्रताप नायक हांणी विचार मंथनाक वाव मेळचो अशें पद्दतशीर विवेचन केलां. ताचे जोडयेक फा. डॉ. मॅथ्यू आल्मैदा हांणी काळ, वाठार, धर्म, जात, सामाजीक दर्जो हांच्या संदर्भांतल्यान कोंकणीच्या स्वन-विन्यासाचो देखीं सयंत विचार मांडला. फा. फ्रांसीस एक्स. आल्वीश हांणी कोंकणी स्वन-विन्यासाचो आधुनीक शास्त्रीय प्रणालीच्या (feature geometry) आदारान केल्लो विचार मांडला. ते भायर समाज-भाशीक कोशवाङ्मय (प्रताप नायक), व्याकरणी बांदावळ (मॅथ्यू आल्मैदा, फ्रांसीस एक्स. आल्वीश) अशे संशोधनात्मक लेख हे पत्रिकेंत आसात. हे पत्रिकेचें




खाशेलेपण म्हणजे आधुनीक भास-विज्ञानाच्या आधारान, कोंकणी भाशेचो शास्त्रीय पद्दतीन केल्लो अभ्यास एकत्रीत रुपान तिचे भितर आसपावला.

**सोदाचे** दुसरे पत्रिकेंत कोंकणींतले चतुरस्त्र लेखक पुंडलीक नायक हांच्या नाट्य-साहित्याचेर समिक्षात्मक लेख आसात. केन्द्रान अपुरबाय प्रकाशन संस्थेच्या पालवान घडोवन हाडिल्ल्या एका परिसंवादाचेर आदारीत अशें हें लिखाण आसा. ह्या परिसंवादांत वाचिल्ले पेपर (डॉ. नंदकुमार कामत, प्रा. प्रकाश थळी) आनी ह्या पेपरांचेर सादर केल्ल्यो प्रतिक्रिया (माधवी सरदेसाय, डॉ. संध्या भांडारे, प्रकाश वजरीकार, भूषण भावे, प्रियदर्शिनी तडकोडकार, तशेच परिसंवादा भायले तीन लेख (बा.द. सातोस्कर, वृषाली मांद्रेकार आनी संध्या भांडारे) आनी परिसंवादाचो नियाळ अशें पुंडलीक नायकांच्या नाट्यसाहित्याची मोलावणी करपी लिखाण हे पत्रिकेंत आस्पावलां. सगळेच लेख अभ्यासपूर्ण आशिल्ल्यान कोंकणी शिकप्यांक तशेंच शिकोवप्यांक तें मोलाचें संदर्भसाहित्य कशें उपलब्ध जालां.

ह्या दोनूय पत्रिकांतल्या सगळ्याच विचारां कडेन सगळेच सहमत जातले हाची खात्री दिवंक जावचिना. एका व्हड विज्ञानिकान म्हळां: संशोधन म्हणजे अंतीम सत्य न्हय.संशोधन म्हणजे एका अदमासा कडच्यान दुसऱ्या बऱ्या अदमासा कडेन वचप. अशे तरेचो हो प्रवास संशोधकाक अंतीम सत्त्याचे लागीं व्हरता. **सोदा**कय हें विधान लागू पडटा. **सोदांत** उक्ते जाल्ले विचार आनी काडिल्लीं अनुमानां हीं अंतीम सत्यां आसात असो लेखकांचो ग्रह आसतसो दिसना. हें एक विचार मंथन. सत्य-असत्याची वळख करून घेवपाची ती एक संद. अशो संदी कोंकणींत खुबूच उण्यो आसात. अशी एक संद 'सोदा'न आमचे मुखार हाडून कोंकणी लेखक, वाचक, शिक्षक, विद्यार्थी, संशोधक आदीं खातीर एक वैचारीक व्यासपीठ निर्माण केलां. ते खातीर तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केन्द्राच्या जाणवळदारांक परबीं फावतात. असो मुळावो वावर कोंकणीचे चळवळीक घटमूट बुनयाद दिवंक पावतलो म्हणपाचो भरवंसो दिसता.

**सोद: Konkani Research Bulletin: 1 (Nov. 2000)**
**पानां: १०४ मोल: ५० रु.**
**सोद: Konkani Research Bulletin: 2 (Nov. 2000)**
**पानां: १०० मोल: ५० रु.**
**तॉमास स्टीवन्स कोंकणी केन्द्र, आल्त पर्वरी, गोंय.**

आमच्या सुटके झुजाऱ्यांचें शौर्य आनी त्यागाचो उगडास करून
तांकां नमळायेचें अभिवादन करतात.

# गोंय क्रांती दीस

१८ जून २००१ हो दीस, ज्येश्ठ सुटके झुजारी दो. राम मनोहर लोहिया हांणी
१८ जून १९४६ ह्या दिसा गोंयकारांक परकी राजवटीआड
लढो दिवपाचें आवाहन केल्लें ताचें यादस्तीक म्हूण मनयतात.






गोंय सरकाराच्या म्हायती आनी प्रसिद्धी खात्याचे वतीन उजवाडायल्या